# कुळागर

फेब्रुवारी १९८६

वर्स : आठवें

अंक : २

ह्या अंकाचे मोल : २ रुपया

वर्सुकी पटी : २५ रुपया

संपादक :
प्रकाश थळी
नारायण बादोळकार

जायरात विभाग प्रमुख :
अनिल पै

छापणावळ :
एस. जे. हुंद्रे
रवि मुद्रणालय, कडोलकर गल्ली,
बेळगांव. फोन : २३०७९

छापपी आनी उजवाडावपी :
चंद्रकांत केणी
कुळागर प्रकाशन,
पो. बॉ. नं. ७८
मडगांव–गोंय–४०३६०१



## मांडावळ

# आतां नदर विशाळ करूया!

कोंकणी भास आनी साहित्याचो विचार करतना चडशे लोक कोंकणीचो भूगोल विसरतात आनी फकत गोंयच्या साहित्याचो विचार करतात. गोंय हें कोंकणीचें मुख्य केन्द्र आनी मूळ पीठ आसलें तरी गोंयांत जितलो कोंकणी लोक आसा ताज्याकय चड कोंकणी भाशीक लोक गोंयाभायर आसा. गोंयचे उत्तरेक महाराष्ट्राच्या सिंधुदुर्ग जिल्ह्यांत रावतल्या कोंकणी समाजाक आपले अस्मिता-येची निकतीच जाणविकाय जावंक लागल्या. ह्या समाजा-मदीं प्रतिभा आसा आनी शिकिल्ले सवरिल्ले वाचकय आसात. कोंकणी चळवळीपसून आजवेर हो समाज कुशीक उल्ला. ताका हे चळवळींत आस्पावन घेवपाची खूब गरज आसा. ह्या संपर्क कार्याक जो कोण ओंपून घेत तो कोंक-णीची व्हड सेवा करूंक पावतलो. 'कुळागरा'पुरतें सांग-पाचें जाल्यार आमी हो संपर्क सुरू केल्लो आसा आनी त्या भागांत 'कुळागरा'क नवे नवे वाचपी मेळूंक लागल्यात. थंयच्या प्रतिभासंपन्न लेखकाचें साहित्य आमी व्हड खोशा-येन उजवाडावूं.

कर्नाटकांत कोंकणी समाजान साहित्याची साधना कन्नड लिपयेच्या आदारान चलयल्या हें खरें आसलेंय तरी बेळगांव-हुबळी ह्या शारांनी आनी उत्तर कन्नड जिल्ह्यांत माजाळी धरून भटकळमेरेन देवनागरी लिपी जाणा जाल्ले जायते कोंकणी लोक आसात हाजा साक्षात्कार आमकां हालींच जावंक लागला. थंयच्या दर एका गांवांत कोंकणी समाजाच्या संस्थांनी, शाळांनी आनी घरां 'कुळागरा'चो संदेश पावोवपाच्या वावराक आम आरंभ केला.

आमी अशें मानतात कि कोंकणीच्या साहित्य चळवळीचो फुडार गोंयाभायल्या ह्या कोंकणी समाजाचे खूबसो पातयेवन आसा. कर्नाटकांतल्या कोंकणी समाजा भाशेचो अभिमान आसा आनी थंय कोंकणीच्या नांवा वाद वा झगडें ना. ही अनुकूलता आसतनाय कोंकण चळवळीचो संदेश त्या भागांत अजून फाव त्या प्रमाणां पावंक ना.

केरळ राज्यांत देवनागरी लिपी ह्या आदींच कोंकणी आपणायल्या आनी मुंबयचो कोंकणी समाज तर देवना-गरीकच वेंगावनच आसा. दक्षिण कन्नड जिल्ह्यांतल कोंकणी समाज कन्नड लिपी आपणायता हाजें कारण थं थंय देवनागिरीचो प्रसार जांवक ना. कोंकणीचीं सभाकि लिपी देवनागरी म्हणपाचें ताणीं मान्य केला आनी न पिळगेक देवनागरी शिकोवपाचो वावर थंय चलता. गोंयां एक वर्ग अजून रोमी लिपी आपणायता आसलो तरी न पिळगेक देवनागरी अनवळखी उरूंक ना.

हे बदलते परिस्थितीचो फायदो घेवपाखाती कोंकणी साहित्यिक चळवळीची नदर ह्या फुडें सगळयां आसपावन घवपाइतली विशाळ जावंक जाय.

– प्रकाश

# पातक

– महाबळेश्वर सैल

मीरावैनी आंगणात तुळशीक उदक घालताना दिस्टीक पड्टकीर हावें खाक्यात मारिल्ली पुस्तकां सारकी हातात धल्ली. शर्ट झाडलोसो करून कालर नीट केली. मीरावैनी भीतर वताली ती म्हजेर नदर पड्टकीर दारातच थाल्ली. काय वेळ म्हजेकडेन कौतुकान पळेत हासली. तिजे नितळ तोंडभन्न हासे पळौन म्हाका आनंद जालो.

‘वसंत, आयलो शाळेतल्यान ? वोताचो रखरखमरे, तकलेर तुवालोतरी उडोवचो.’

हांवे बेठेंच हासलेसे केले.

‘अंदू णवी मरे, अभ्यास कसो चल्ला ?’

‘चल्ला.’

‘चल्ला न्ही पास जावक जाय बरो करून. णवी म्हण्टा ती एस एस एलसीचो पायो.’ ती म्हज्या म्हन्यान आयली. म्हजे केसा-तल्यान हात भोवंडायलोसो करून तिणे म्हळे ‘भूक लागली मरे, यो, घरात यो खावक दिता.’

‘नाका वैनी, घरां पावतकीर आई पेज वाड्टली.’

‘तुगेली आई, धिपळे फोडूक शेतांत गेल्ली आयल्या खंय अजून. चल यो.’ हांव भीतर गेलो आनि सालात एका बाकार बसलो. मीरावैनीन पैली आपली उरिल्ली पूजा आटपुन घेयली. दालयेतली फुलांची माळ काडून ती घोवाच्या फोटयाक घाली. कालचो बाविल्लो हार काडून तो तसोच दालयेत उडयलो. कांय वेळ ती फोटयामुखार बेठींच दोळे बंद करून उबी रावली. मगेर ती भीतर गेली.

हांव मीरावैनिलो व्याप नव्यानच पळेल्यावरी बारीक पळेतालो. आंगणातली तुळशीमाणी काळयाकिट्ट शेणान सारयिल्ली. तातून तुळशीचे झोप तरतरीत पालेल्ले. वेल्या पारीजाताचीं कांय फुलां आंगणात झडून पडिल्ली. कांय मोने कळे झाडाक लांबताले. घरात शिवपाच्या माखनार उर्दुकुटे शिव्हिल्ले नवें वस्त्र पडिल्ले. सखयल, कोनशान रंगरंगाच्या चिंद्यो फासपून पडिल्ल्यो. मीरावैनीची सुलूस लागतकीर हांवे काय चिंद्यो उखल्ल्यो आनि म्हळे, ‘वैनी हचो हांव घेव ?’

‘चिंद्योशो कित्याक रे ?’

‘टिचरीन चिंद्याचे बावले करूंक शिकयला.’ तिणें तोंड वांकडेंशें करून तिडयत म्हळें, ओंठार मिशा उदेली आनि बावली करता खंय. म्हाका मात मुजरत दाखय रे तुजे बावले.

तिणें बशीबर सांजो म्हज्यापुढयान दवल्लो. आनि ग्लासात लिंबांचे पानक. ‘वैनी आता केलो तुवे हो सांजो ?’

‘ना रे सकाळचो, खाला कोणे. कितेय केले तरी एकटयाक बसून खावंक तोंडातच वचना.’

म्हाका भूक भोवच लागिल्ली. हांवे भकाभका सांजो खालो आनि वेल्यान पानक पियेले

‘ल्हेवटो, खावक नका म्हण्टालो.’ हाव मजेन हासलो.

‘वैनी आण्णालो हो येट्टो व्हडलो फोटो कोणे केन्ना काडिल्लो ?’

‘तांका पळयिल्ली आठवण आसा तुका ?’

‘मात्सेमात्से आठवता.’

‘किते किते आठवता ?’

‘हातात अक्की नाल्लांची पेणच घेवन चलतालो असे आठवता. एक फावट पितंबर न्हेसून हातात पुजेचे ताट घेवन न्हंयेर वता असे असे आठवता.’

‘फाटल्यान हांव चलताले ते आठवता ?’

‘याद जायना वैनी.’

‘पुट्टो तू !’

येता वैनी म्हूण हाव उठलो. दंरार येत तिणे म्हळे, अभ्यास बरो करतलो मरे ? सक्काळी पाचाक उठून अभ्यासाक बस. काय हावच येव सकाळी उठोवक ?’

‘नाका गे, करता हाव अभ्यास.’

हांव भायर सल्लो. खरे म्हळचार मीरावैनीचे उपकार सांगून सरचे नात. सातवेक पास जातकीर आई आनी बाप्पा शिक्षण पुरो म्हण्टालो. पुण मीरावैनीन तांका सामक्के धारेर धल्ले. तुमचेवरी ताकाय शेतातलो चिखोल कालोंवकच दवरतात काय म्हळे. बाराय

म्हैने घोळून तुमचे पोटलेगीत भरना आनी तेच तुमच्या पुताच्याय नशीबात घालतात काय म्हूणन विचाल्ले· ती सोता म्हाका घेवन शाळेत गेली. शाळेतल्यान सर्टिफिकेट काडून घेवन हायस्कूलात नाव घाले. सुरवेची फी तिणेच भल्ली. खऱ्यानीच बरी आशिल्ली ती· देवान धाडिल्लेवरी सगळचांक वेळवख्ताक पावताली. लोकय तिका मानताले.

लग्नाक दोनतीन वर्सांनच तिगेलो घोव भायर पडिल्लो. आयज आठधा वर्सां ती विधवेचे एकसुरे जीवित जियेताली. सगळे त्यागिल्ल्या सन्याशिनीवरी जगप आनी ल्हान भुरग्यावरी वागप ! आपल्या जुवानपणाचो सगळो चकचक तिणे आंगबर धव्या वस्त्रात गुठलावन दवरिल्लो. आंगावेल्या वस्त्राक ती इतले कित्याक सांबाळटाली कळना. दिवसाचो बरोचसो वेळ ती माखनार लोकाले कपडे शिवकच सारताली. भाटाभेसाची थोडीभोव येणावळ आशिल्ली. तसे तिचे बेस बरे चलताले.

त्या वर्सा णवीक हांव बरेभशेन पास जालो. म्हजो रिजल्ट आयकोन मीरावैनीक भोव खोस जाली. म्हाका आफोवन तिणे म्हाका शाबासकी दिली· थिंगासर आशिल्ल्यांक सगळयांक बचकबर साखर वाटली· आमगेल्या वाड्यावेलो विस्वास म्हजे क्लासीत आशिल्लो. तो नापास जाल्लो. तो नापास जालो म्हण ती भोव चुरचुरली. ताका आफोवन तिणे धीराची चार उतरां सांगली.

हांव आता एस्‌एस्‌सीक वतालो. शाळेच्या वाटेर मीरावैनीले घर. तिगेल्या आंगणातल्यान वतना नितळ झाडिल्ले आंगण, सोबीत सारयिल्ली तुळशी माणी, ताजेवेले कवकवीत झाड पळोवन मन भावार्थान भरुन येताले आनी मनातच हाव हात जोड्टालो. आंग–णाकलागुनच चारपाच मोटवेशे माड कुचकुचीत पेणींन भरिल्ले. तांची सावळी चंवर धाळिल्लेवरी आंगणात, घरार पडिल्ली. ह्या घरात व्हड मनाची, सदळ हाताची मीरावैनी रावता ही कल्पनाय भोव शितळ आशिल्ली.

शेतां नडपाचो म्हैनो आशिल्लो. एक दीस आई शेतातल्यान आयली तीच तकलेवेलो घुरमो खुंटयेक हुमकळावन हांथुरणार पडली. शियान तिजी दाडवणा बसताली. कायवेळान तिका ताप भल्लो· कपलार हात दवल्ल्यार हात हुलपतालो. ती पिरंगत पिरंगत तशीच पडिल्ली.

मीरावैनीक कशी सुलूस लागली कोण जाणा. ती थर्मासात हुनहून काफी आनी कसल्योतरी दोन गुळयो घेवन आयली. तिणे एक गुळी आनी मोगबर काफी आईक पियक दिली. कायवेळान हुमेच्यो धारो लागल्यो आनी जोर निशेलो. आई उठून बसली तिणे म्हळे, 'मीराचो हातगुणच बरो.'

म्हऱ्यान बघल्ल्या दुर्गाकाकीन म्हळे, 'सोवळचा कुडीचो अनवाळो हात तो !' मगेर विनोद केल्लेवरी ती हासली

एस्‌एस्‌सीचे एक्स्ट्रा क्लास चलताले म्हण उसराच घरा पाव–तालो. शाळेमुखावेल्या स्टापार हांव बशीची वाट पळेतालो, म्हज्याच वाड्यावेले णवीक सिकपी सुकांतीय हातात पुस्तकां घेवन उबे आशिल्ले. हावे म्हळे, 'सुकांती, तुकाय कळाव जालो ?'

'गॅदरिंगाच्या नाटकाच्यो एसाय चल्लात न्हय रे'

'बेगीन घरा पावलार पुरो. पावस पड्टलो असे दिसता.'

'आडवेळाचो पावस. सत्रीय हाडूक ना.'

बस आयली आनी आमी बशीत चडले. अर्दवाटेरच बशीच्या पत्र्यार थेंबे झडूक लागले. बस आमच्या गांवालागीसल्ल्या स्टॉपार पावता म्हणसर पावसान चडच जोर धल्लो. बसीतल्यान आमी सकयल उतल्ले तेन्ना पावस धायधारांनी रखतालो. स्टॉपालागार आडसराक रावक तर कावच नाशिल्ले आनी अर्द मैलाची वाट चलून वचूक जाय आशिल्ली. किते करतलो... काय वेळ थंयसर एका झाडामुळाक थाल्ले. पुण झाड आदीच चिप्प भिजिल्ले. आनी पानातल्यान आंगार थेट धारो ओतताल्यो. हांवे म्हळे, 'ल सुकांती या.'

खाक्याक पुस्तकां माल्ली आनी आमी पावस कापीत वचूक लागली. सुकांती पावसान चिप्प भिजिल्ले. तागेल्या आंगालो नायलॉनचो विस्तीद आंगाक जूस्ताजुस्त चिपकल्लो. ताचे हात मांडयो, कुले उक्ते पडिल्ल्यावरी गोल गुळगुळीत दिसताले. हां आयजमेरेन सुकांतीक ल्हान चेडूच म्हण समजतालो. पुण आज आडवाटेर ताजे अशे रुप पळोवन म्हजे मन थतरबितर जाले. ओगी भंयशी दिसूक लागली. नव्यानच एकादे पातक मनात रिगता जशे पोटात पचपच जाता तशे जाले. हांवे ताका फाटी उडोन सडसडीत पावला माल्ली. ते म्हज्या फाटल्यान धावत येत म्हळूक लागले,

'थांब मरे, हाव येता न्ही.'

इतल्यान आमच्या फाटल्यान कोणतरी सत्री घेवन येता दिश्टीक पडलो. पावसाच्या धुंवटेत तो कोण म्हण वोळखूकच येना जालो. लागी पावलो तरी ओळखीचोसो दिसना. तो बरो गो लांबरुंद आशिल्लो. पेन्ट आनी शर्टार व्यवस्थित पटो लायिल्लो. दोळयार सोबीत चेस्मो. म्हाका दिसले हो आता सुकांतीक उखलून व्हरतलो. ते म्हज्या फाडल्यान म्हजो आडोसो घेतसे चलूक लागले. आंगावेल्यान वतना ताणे म्हळे, 'चेडवा येता गो सत्रेत ?'

सुकांती चडच कुशीक कडसले. तो लांब लांक धेपा उडोन काय खीणातच आमच्याहुन बरोच फुडे पावलो.

'कोण ओळखीचोसो दिसना मरे.'

'कोणय सोयरो आयला दिसतलो गावात ?'

'म्हाका आफयता सत्रेत, तुका यो म्हळा काय चय.'

हाव बेठोच हासलो. आमी वाड्यार पावली तरीय पाऊस थांबलो ना. आकाड्यातल्यान भीतर घुसतकीर सुकांती आपल्या घरा धांवत गेले. हांव मात्सो वाटेर मीरावैनीच्या पावळेत थाल्लो. पळेल्यार दारातल्या पारीजाताचो एक खांदो मोडून तुळशीमाणयेर पडला. आनी तुळशी माणयेचे धेप निखळल्या. ते पारीजाताचे गो भंवरकसे झाड खापयिल्लेवरी दिसताले.

सुलूस लागतकीर मीरावैनी दारात आयली. तुटक उतरांनी तिणे म्हळे, 'सत्री घेनासतना शाळेक कित्याक वतात रे तुमी ?'

इतले म्हळे आनी ती भीतर गेली. तिणे म्हाका भीतर ये म्हळे ना. पुसूकय काय दिले ना. हे म्हज्या मनाक भोव लागले. हां घराकडेक वचूक धांव मारुक गेल्यार तो हेदोळचो दादलो भीतर खुर्चेत बशिल्लो म्हाका दिश्टी पडलो. मीरावैनी हातात टुवालो घेवन ताज्या म्हऱ्यान उबी.

ते दीस सांजवर म्हजें मन थाऱ्यार नाशिल्लें. सामको अस्वस्थ! तो दादलो कोण... मीरावैनी म्हजेकडे अशी तुसडेपणान कित्याक वागली... दोळ्यामुखार पुस्तक धल्ल्यार असयचो घुस्पागंदळ तकलेंत रिगनाशिल्लो. त्या दादल्याच्या दोळ्यावेले वक्ल राकेशभिंग कसे मोट्टे जावन लकलकताले.

दुसरेदीस शाळेक वचूक भायर सरतना शिवरामदाद आंगणांत आयलो. ताणें म्हजे आईक म्हळें, 'जाणा मुगो अनुसुया, मीरा घर सोदता. त्या नव्यानच बदलून आयिल्ल्या तलाठ्याक घर जाय खंय. ताज्या कुळाराचोच तो.'

'मेळ्ळे घर ?'

'ह्या गावात आनि भाडयान घर खंय. कोणेय आपल्या घरा–तच दवरुन घेयल्यार.'

'आता रावता खंय !'

'मीराच्या घरातच न्हय गो.'

'तेच दवरुन घेना कित्याक तर ?'

'मीरा ते- ते दवरुन घेवपी. उपाव ना म्हण सद्या दवरुन घेयला.'

आईन आणखी उलोवणें वाढोवक ना. शिवरामबाब वाटेक लागलो.

मदी मीरावैनी चडशी दिस्टीक पडनाशिल्ली. हांव आंगणा–तल्यान वतना दरफावटी घरात नदर मारतालो. पुण साल मेकळेच दिस्टी पड्टाले. शिपाच्या माखनाचोय सद्याचो आवाज येनाशिल्लो, म्हाका वोगीच दिसत रावताले– म्हज्या असवडी गूढ, भयंकर असे कितीतरी चल्ला. म्हाका त्या चेस्मो लायतल्या मनशाचो दुस्वाससो दिसूक लागलो. ताणेंच मीरावैनीक खंयतरी भितल्लेकुडीत लिपोवन दवल्ला...

पंद्रा दीस असेच गेले. मदी एकदोन फावट सालात झळकलशे जाले. पळोवक गेल्यार बेठीच पावला व्हाजिल्लोसो, गुणगुणिल्लोसो आवाज.

एक दीस मीरावैनी खऱ्यानच दारात उबी आशिल्ली दिसली. कसलोतरी खोटलो तकलेर घेवन तांबडी खूब फुलां माळिल्ली एक गावडीण आंगणात उबी आशिल्ली. आनी मीरावैनीकडेन उलयताली. हांव म्हऱ्यान पावलो तरीय मीरावैनी चडशी म्हजी दखलच घेयली ना. बेठीच नदर घुवंडावन चल्ले आनि गावडीणीकडेनच उलोवक नदर गुंग. हावें ल्हवल्हवं पावला मारीत आंगण पार केले.

म्हज्या मनाक हिस्पाभायर लागले.

एक दीस सांजच्या गाईक व्हरुन गोटयात घालूक म्हण हांव वेतालो. तिटचार कोणकोण उबे आशिल्ले. ते उलयताले–

'कारवारा सिनेमा कसलो खंय रे ?'

'दोन माणयांतली मजा.'

'नटी कोण ?'

'मीरा !'

'हिरो ?'

'चस्मेवालो तलाठी.'

'दवल्लो मरे ताका घरात ?'

'घरात न्हय धागऱ्यात.'

'आयत्या भिवणार नागोबा.'

'नागोबा आता भिवणार मजेन धोलतलो.'

मगेर सगळे घसघशान हासले. हांव भोव अस्वस्थ ! हो गाव चक्रम जाला काय किते. मीरावैनीलीं फकाणां ! म्हज्या काळजार काट्याचे माले फिरिल्लेवरी जाले.

हांव घरा पयलो तेन्ना दिवेलावणेचो वेळ जाल्लो. सखाराम कासाळ व्हाजयतालो आनि आई देवाम्हऱ्यान दिवो लायताली. दुलू– उंबराकडच्या सोपनार बशिल्ली. ती कितकितें उलयी. आई भितल्या–नच हुं हुं करताली.

'खऱ्यानच कोण गो तो दुलू ?'

'कोण आनीक मीराचो मीण ?'

'ते आपलो बापोलबाव म्हण सांगतालें मुगो फाटी हांवें विचारिल्ले तेन्ना.'

'सांवार आयलो गो संसारा.. किडे पड्टले तोणांत. पातक लिपोवक भावाचें सबंग ! काल तर ती दोगांय सिनेमाक गेल्ली खंय कारवारात. बसीन वतना एकदुसऱ्याक तेक्कुन बशिल्लीं खंय. सुरेश सांग म्हाका. कारवारा सिविशेक वता न्ही गोतो. इतलो शिकिल्लो भुरगो फट उलयत ?'

आई अजून कितेय खर उलयत म्हण हांव भियेलो. पुण ती वोगी रावली. दुलूकाकीन आईल्या करणातले पान काडले. कुटकन् आडकात्रेन सुपारी फोडली. बोटभर चुनो पानाक लावन पान तोणान सारले पान चाबडायले आनी दारात वचून पच्कन्न थुकून आयली. 'येता गो अनुसुया म्हण दुलूकाकी गेली.'

हावें भीतर वचून पुस्तक काडले तर तकलेक सगळो भरभर. बेठेच पुस्तक दोळ्यामुखार धरुन बसलो. आईन जेवक आफयल्यार म्हळे, 'नाका म्हाका जेवंक.'

'किते जाला रे तुका ? यो गप्प.' इत्सेभायर हांव उठलो आनी वचून मणयेर बसलो. पयली उंडी तोणात घाली आनी दिसले म्हाका खूब भूक लागल्या. सगळे ताट हांवें भकाभका सोपयले.

ते रातीक म्हाका एक मजेशीर सपन पडले. गावातल्या दरएक घराचे नळे धडधड घालीत सखयल धर्तरेर आयले. वचत थंय फुटिल्ल्या नळयांच्यो तुकडयाच्यो राशी. वेल्यान उक्ती घरां आनी तांचे दरवाजे मात बंद. अशाच एका बंद दारार मीरावैनी उबी आसा. तिजो पदर सखयल लोळटा. पोलको वाऱ्यार हुडून गेला. कमरेवेलो सगळो देह सामक्को उक्तो आसा– गोरेपिट्ट पोट, हुड्डे, गळो. गळ्याकडच्या शिरेंतरातल्यान तांबडेभिण्ण रगत व्हावताना दिसता. तो तलाठी सपनात खूब उंच आनी धस्टपुस्ट दिसता ताणे कमराचो पटो काडून ताचे चाबूक केल्या. ते चाबूक हातात घेवन तो गावातल्या दादल्यांच्या फाटीक लागला. कितलेशेच ओळखीचे बिन–ओळखीचे दादले मुखार धावतात. तातून हांव एकटो..

सकाळी शाळेक वतना हांवें मारुतीक विचाल्ले, 'मीरावैनीचे आनी त्या दादल्याचे किते खंय रे ?'

'ती आंगावेले सगळे कपडे काडून एकदुसऱ्यावांगडा न्हिदतात.'

'तुका कसे कळळें ?'

'गावान सगळेच उलयतात न्ही रे'

आयकोन हाव थंडगार जालो.

एक दीस जड्डो, म्हातारो दुर्गा वाल्यात हात घालून खरपीत मीरावैनीविशी किते किते वायट उलोवक लागलो. म्हाका तिडक माल्ली. हावें म्हळे, 'तू म्हातारो मरुक तेकला. एक दात ना जाग्यार आनी तुका ह्यो खबरी कित्याक ?'

दुर्गा, रागान झिडपलो आनी म्हजेर गाळचाचो शिवर करुक लागलो– 'देडशाणो, शिदळीचो. वच ताजे भोंक ल्हेवक तूवय एकटो.'

चिंगासार आशिल्ले लोक म्हाकाच हासले. म्हज्या काळजाक भोव रोमले. दिसले समतेच मीरावैनीकडेन वचचे आनी सांगचे, 'हे किते आडयला तुवे ? लोक कितेकिते उलयतात नकळ तू. अब्रू काड्टान तुजी ! प्रकरण इतले हाताभायर गेले तरी तरी तू खंय आसा !'

आई आनी हांव आमच्या आंगणात तांदूळ हुबयताली. मीरा–वैनीच्या घराकडेन बोबाळसो आयकूक आयलो. हावे सूप थंयच उडयले आनी तेवटेन गेलो. सखयल्या वाड्यावेले मित्रा मीरावैनीच्या दारात उबे आशिल्ले. हातात एक विस्तीद नाचयत म्हण्टाले, देड म्हैनो जालो लुगट शिवक दीवन. सतरा फावटी घाले. आता हो शिवोन दिला तोवय् अळशीर आनी मोटवो. लुगट खाले तुवे.

मीरावैनी भितल्यान आड्डली, 'कितेय उलोव नाका मित्रा. भोंक धापूक पावचो ना इतलो हातबर कपडो हाडिल्लो आनी वांव–बर विस्तीद जाय तुका. बाणशीरे कसो बाबत कपडो आनी हावे खालो खंय.'

माज चडला तुका. काय बरे लुगट आनी बाणसिरे खंय. अजून जाय ते दिसचेले आसा मेळला न्हय मीण तुका !' मित्रा खेपत सोपना देवंक लागले.

मीरावैनी माखनावैल्यान उठून झोपय घेतिल्लेवरी दारात आयली. रागान तिच्या दोळ्यातल्यान रगत निशेताले. चेहरो फुलिल्लो. ती दाराच्या चौकटेक घट धरुन उबी रावली आनि आड्–डली, 'हय मेळला म्हाका मीण ! एक न्हय सतरा मीण, करतली हाव. कोणाची भिरांत ना म्हाका, तुजेवरी घोवाची खोट पडत म्हण भियेवन चोरुन मीण करचेली गरज ना म्हाका.'

मित्रा आनी थंय थाल्ले ना. आयकोन हांव तटास ! म्हज्या अजापाक पारावार उल्लोना. तिजे हे सामक्के नवे रुप पळेतालो. ती दारार देहभान विसरुन उबी आशिल्ली.तिगेलो पदर खांद्यावेल्यान निसरिल्लो. तिगेले हड्डे इतले तट्ट्टीत आसा हे पळोवन तर म्हाका नवलच दिसले. ते दिसा सपनाट पळयिल्ली मीरावैनी प्रत्यक्ष मुखार उबी रावली.

आता म्हाका मीरावैनीक मेळचेली भोवच उमळशीक लागली. तिका लागीच्यान पळोवचे तिजेकडेन एकटोच बसून उलोवचे असे दिसूक लागले.

दुसरे दिस दनपरा शाळेतल्यान येतकीर जेवनबी हांव मीरा–वैनीगेर गेलो. ती माखनार बसून शिवताली. म्हाका पळोवन तिणे थंडपणान म्हळे, 'यो बस.'

हाव कुशीच्या एका बाकार बसलो.

'कित्याक म्हण आयिल्लो ?'

हांवे चाचरलेशें करुन म्हळे, 'काय ना बेठीच. वैनी हा सेकंड टर्मिनलाक पास जालो.'

'बरे जाले.' तिणे चडशी उमेद दाखयली ना.

'बशीर नवो कंडक्टर आयला. लोकांकडेन सदाच झगड्टा शाळेभुरग्याकंय फुल्ल तिकेट घेता.'

'अशे ?'

मीरावैनी म्हजेकडेन चंवकय तयार नाशिल्ली. माखना ओणोव अेवन तातुनच गुंथल्ली. माखन घरघरताले आनी मदी घरघरचे थांबले की भितल्ल्यान कोणाचेतरी घोरेवप आयकू येताले.

ती म्हजेवटेन तोण करुन बशिल्ली. एका पायार साडी धिम मेरेन वयर गेल्ली. आनी तिज्यो गोरेपिट्ट पोवट्यो दिस्टीक पड्टाल्यो माखन चलयताना दोनय माणयो एका तालार हालताल्यो ते पळोवप म्हाका भोव सुख मेळटाले. पोटाच्यो गोरे लुबीलुबीत घड्यो पळोवप म्हजे मन चळळे. ही आंगावेले सगळे कपडे काडून तलाठ्यावांगा न्हिदता... म्हजे मन थतरभितर जाले.

हे म्हाका किते जाला ! मीरावैनीविशी अशे बुरशे विचार मनात रिगताच कशे ? हांव आता तिजेविशी तिज्या गोऱ्या शरिरा विरयत शुद्ध विचार करुक शकना हे होलमून हांव भियेल्ल्यावरी जालो. हालीमेरेन तिका एक शरीर आसा हेवय म्हज्या गावा नाशिल्ले. म्हज्या नदरेकच रोग जाला काय किते.

हाव ताकतिकेन उठलो आनि म्हळे 'येता'

'बेठोच आयिल्लो ?'

'हय' हांवे सडसडीत सोपना देवली. भितल्ले घोरेवप म्हज्या फाटीकच लागल्या असे दिसताले.

x x x x x

आयज इतल्या वर्सांन हाव हे बाबीचेर चितता तेन्ना दिसता पातक हे सार्थीच्या रोगासारखे आसुये. एक वेळ पातकान गावाचे चपको माल्लो की जाण एकट्याक ताजी लागण जायत वता. एक असत्य लिपोवक जशी अजून जायती असत्या जल्मत रावतात तशे पातकाचेय ! मीरावैनीच्या जीवितात एक पातक रिगले आनी ताणेन मीरावैनीचे व्यक्तिमत्त्वच नासवले. गांव खेप आयिल्ल्यावरी ते पातक चोखून चोखून आनंद भोगूक लागलो. ज्या मीरावैनीक देवावरी मायेस्त, पवित्र म्हण लेखतालो त्या मीरावैनीच्या शरीरा–विशी पातकी विचार म्हज्या मनात रिगू लागलो आनी म्हजे मन चळ्ळे. भुरगेपणांक मीरावैनीच्या रुपातले ते आदर्श भंगूंक नाशिल्ले जाल्यार म्हजे जीवित हाज्याहून सुंदर जावयाचे.



# ‘ वा म्हण्टां वार्ता....’

**- चंद्रकांत केणी**

एक आशिल्लो राजा ... ...
( भूरग्यांले काणयेसारको आरंभ जालो. पुण ही भुरग्यांखातीर काणी न्हय. )

राजा आसतकच ताजें एक राज्य आसचेंच पडलें. तेंय आशिल्लें. राज्यांतलो लोक सुखी आसलो. शेजारच्या राजांकडेन ह्या राजाली इश्टागत आशिल्ली. देखून लडाय जायनासली. लडाय ना देकून लस्कर नाशिल्लें. लस्कराक पोसपाचें नासलें देखून लोकांचेर कर नासले. कर नात देखून लोक सुखी आसले. सगळ्यांक जेवंक खावंक मेळटालें. वखद विर्सद मेळपाची तजवीज आसली. तरेकतरांचे खेळ आसले.

ज्या राज्यांत लडाय नासता, जंय लोक भुकेन मरता त्या राज्याक इतिहास नासता. आसलोय जाल्यार ताची कोणाक याद नासता. देखून लोक फाटलें येवजीत बसनासलो. तो आपलो फुडार घडयतालो. असल्या लोकांक खरेपणी राजा नाका आसलो. पुण राज्य आसतकच एक राजा जायच पडटा. देऊळ आसतकच त्या देवळात देव आसचो पडटा तसो मागीर राजा आसतकच त्या राजाच्यान काय देवळातल्या देवाभशेन ओगी एकाच पायांर रावूं येता ? ताका राजधर्म चलोवचो पडटा.

त्या राज्यांतलो लोक दीसभर काम करतालो. रातीचो न्हिदतालो. न्हिदिल्ले प्रजेची राखण करप हो एक राजधर्म अशें राजा मानतालो. देखून राजा दिसाचो न्हिदतालो आनी रातीकडेन राज्यभर भोंवतालो. राजाच्यान असो भोंव येता ? तो राजा भेस बदलून भोंवतालो. आनी तसो भोंवन आपली प्रजा हुसक्यामेकळी न्हिदल्या हें पळोवन राजाक खोस भोगताली.

राजाक एक दीस प्रधानान म्हळें, ‘ तुमी रातीवेळार एकटेच भोंवतात हें सारकें न्हय. सांगाताक कोणूय तरी जाय.’

‘ म्हाका भंय कोणाचो ?’ अजापून राजान विचाल्लें.

‘ भंयाखातीर न्हय. प्रतिश्ठेखातीर.’

‘ एकलो भोवपांत व्हडपण आसता... सांगाताक दुसऱ्यांक घेतले जाल्यार फाल्यां हांव वतां वतां थंय लोक जागे जातले. दीसभर कश्टल्ल्या लोकांची न्हीद खळ्ळी जाल्यार ताजें पातक म्हाका लागतलें.’

प्रधान थंड पडलो. राजा एकलोच भोंवत रावलो.

एके रातीकडेन हो निशाचर राजा भोंवता आसतना मदींच एका घराकडेन थांबलो. घरांत दिवो पेटना आसलो. पुण कोणतरी उलयताले. जनमनाचो थाव घेवपाच्या इराद्यान म्हणात ना जाल्यार मनशाक आशिल्ल्या सभाविक कुतुहलाक लागून म्हणात – राजान थंय कान दिलो.

‘... पुण राजा रातीचो भोंवता कित्याक ?’ बायलेचो आवाज

‘ तुका न्हीद येना ? .. नाका जाल्ले प्रश्न तुगेले. तो राजा देखूनच भोंवता.’ दादल्याचो आवाज.

राजा खुशालभरीत जालो. आपले असवडीं लेगीत लोक आपणाक मानता हें पळोवन ताका बरें दिसलें....

समाधानान फुडें वचूंक पावल उबारपाक राजान परत बायलेचो आवाज आयकलो.

‘ रातीवेळार राजाक कितें दिसतलें ?’

प्रश्न आयकून राजाक राग आयलो. ताणे मनात म्हळें, कितलीय जाल्यार बायल ती बायल. तिका अक्कल उणे !

‘ आतां ओगी न्हीद पळोंवया.’ दादल्याचो धेंगसो ‘शाबास ! दादलो तो दादलो.’

‘ म्हाका राजाचें पडून वचूंक ना.’ पर्थून बायलेचो आवाज, ‘ म्हाका हुस्को राणयेचो... रातभर घोव भायर. ती बाबडी राजवाड्यांत कितें करता आसतली ?’

प्रश्न आयकून राजा शेळेलो... खरें हें बायलेलें. हांव नासतना म्हजी राणी कितें करता काय ? राणी राजवाड्यांत एकलीच उरता. ती कितें करता काय ?

खऱ्यानीच लाखमोलाचो प्रश्न आसलो. राणयेक न्हीद येवचीच ना... राजा गांवार आसतना राणयेक न्हीद कशी येत ? शास्त्राप्रमाण ती अर्धांगी, अर्धें आंग नासतना न्हीद कशी पडटली ? न्हिदना जाल्यार कितें करता ?

आतांच वचून पळेल्यार कशें ? आयज गांव भोंवचे बदला राजवाड्याचेरच नदर दवल्ल्यार वायटशें जावचें ना. आनी राजा फाटल्या पायांनी ताकतिकेन परतलो.

राजवाड्यांत आपले न्हिदपाच्या कुडीभायर राजा येवन उबो रावलो. कुडींत दिव्यांचो झगमगाट आसलो. राणी न्हिदूंक ना तर... जाल्यार करता कितें ?... दुबावाचो कांटो काळजात रोमलो... ताणे जनेलाक कान लायलो.

बायलो हांशिल्ल्याचो आवाज. दासीय राणयेवांगडा आसात.

‘ तुमी आता न्हिदात.’ एक दासी राणयेक सांगता.

‘ न्हीद पडना.’ राणयेचो आवाज.

‘ कशी पडटली ?’ दासी.

‘ राजाचो तुमकां हुस्को करपाचें कारण ना. ह्या राज्यांत राजाक दुस्मान ना.’ दुसरी दासी.

‘ तें हांव नकळं तर ?’ राणयेचो सुस्कार...! ‘ पुण म्हाका एक समजना, इतलेय अधिकारी आसतना रातीवेळार भोंवडेचे निमित्त करून राजा एकलोच भायर वता तो कोणागेर काय ?’

△ △ △

# ‘ म्हसंगा धर्मान---’

– वसंत भगवंत सावंत

आमचे भासेंत जायत्यो बऱ्यो बऱ्यो ओपारी आसात आनी योग्य वेळार त्यो वापरल्यार बोलीफुलाक गांठ पडची तश्यो मुदये-वयलें थीक कश्यो लीकलीकतात. पुण तांदळांत फातर आसचे तश्या ह्या ओपारींच्या गाठवलांतय जायतीं धोंगापोंगा सासपिल्यार हाताक लागतात. ‘पानवेली धर्मान म्हसंगाक अुदक’ ही ओपार जाल्यार म्हाकां सदांच हुलोप घालीत आयल्या. म्हाकां दिसता, दिसरात तोणांत पानाचो चुमडो चोनून चाबडायत बसपी कोणायपूण पान-बहादूराच्या धोंपरांतल्यान ही ओपार जल्मल्या जावंक जाय; ना जाल्यार म्हसगां सारख्या सद्गूणी जीवाच्यो बकत्सायो करपाचें

घाडस सोपेपणान कोण करचो ना. किदेंय आसलें जाल्यार म्हस
म्हण्टात तें झाड. ताची सर पानवेलीक येता ? पानवेल म्हळच
वेल, ‘ क्रिपर ’ तीच्यान स्वतंत्रपणान अुभी रावुंकच न्हजो. म्हस
तीका आपल्या आंगार बळपाक वाव दिता हो म्हसगांन तीर
केल्लो व्हडलो अुपकार. पुण खाल्ल्या पानार हळशीक करची तो
म्हसगांच्या तोणाक पाना पुसोवन ती मेकळी. बारीक पळयल्या
सगळ्या म्हसगांवेर पानवेल आसाच अशें ना; आनी पानवे
नाशील्ले म्हसींगय केन्नाच अुदकाक रडूंक नात. म्हसगांच्या मूळा
घालतात तें अुदक पानवेलीक गरज म्हणून ! म्हसगांक ता
गरजच ना. अुदक घातलें ना म्हणून म्हसींग मरचीं ना, मेल्या
मरतली ती पानवेल. पूण पानवेलींचो झेत व्हडलो. मोठ्या तपस
स्वाम्याच्या सांगातान आपणाक कसलीय सिध्दी प्राप्त जाल्यार जा
हे आशेन अेक शिष्य स्वाम्याची सेवा करुक लागलो; आणि दां
दिसानी आपूण आसा म्हणून स्वामी आसा अश्यो फुशारक्यो मार
लागलो खंय. तसली गत पानवेलीची. म्हसींग बाबडो साधो–भो
कोगेय–किदेय म्हणूं आसा आपलो. जायत्या कुळागरानी आंब्या
जांव पणसार जांव चिंचांर सुद्धा पानवेल बळटा. म्हसंगाभास
तांकाय अुदकाची गरज नासता. पुण ‘ पानवेलीं धर्मान पणसा
अुदक ’ जांव पानवेलीं धर्मान आंब्याक अुदक म्हटील्लें कोणें केन्ना
आयकुना. तात्पर्य, मोव लागता थंय खणप. ल्हान–भुरग्याभासे
थातो मातो करून सांभाळची पडटा देखून पानवेलीक व्हडपण आ
खंयय सादो खांनो रोयल्यार आठ दिसांत कोमरी फुटून आपल
पांयार अुबो रांवक म्हसींग तयार, म्हणून ताच्यो बाबड्याच
भगेली. म्हसगांची तुळा गाढवाकडें करची आनी पानवेली
गाढवाच्या फाटीर बसून वयतल्या जेझुच्या योग्यतायेचो निर्वा
दिवचो हातुंतलो प्रकार. खरें म्हळ्यार म्हसगांकडे तुळा करप
इतकी लायकी पानवेलीक नाच. खंय जीची पानां खाल्ल्यान व्यसन
म्हणून नाव पडटा आनी कांक्रा सारको भयंकर रोग जावं येता त
पानवेल; आनी खंय शेकड्यानी गुणानी भल्लेलो म्हसींग.

आमच्या गोयांत आनी भारतांतच न्हय तर आशीयेंत
आफ्रिकेंत आनी अमेरीकेंतय म्हसींग आसात. पूण थंय म्हसंगाच
असो अपमान जाता जायत अशें म्हाकां तरी दिसना. म्हसगां
इंग्लेजींत ‘ ड्रम स्टीक ट्री ’ म्हण्टात. ताचे बोटेनिकल नांव मोरींग
ओलीफेरा.’ मोरींगासी कुळयेंतलें ते डिसीडीयस जातीचें झाड
म्हसगांची पाना वाटकुळ्या आकाराची– ‘ कपांउड ल्हीव्स ’ आन
फुलां ? अेक अेक फुल म्हळ्यार धवेंफुल्ल माणकुलें नखेत्र कश
म्हसगांचो फुलपाचो स्वाभाविक काळ ऑगष्ट–सप्टेंबर आनी फळ
पाचो काळ डिसेंबर–जानेवारी आसलो, तरीय बाराय म्हयने सां
लागतले जायते म्हसींग गोयांत लेगीत आसात.

म्हसींग नुस्तें खावपी आनी शिवराक जेवपी अश्या दोघांय
च्याय ताटांत पावता. कांदोऱ्सय घालून केल्ली म्हसगांच्या सागां
भाजी आनी सुंगटा घालून केल्लें हुमण सुरबूस जावंक ना म्हणप
मनश्याक रुचच ना म्हणची पडटली. म्हसंगाच्या पानांची भाज
जाल्यार अुपाट जीणसत्वानी भल्लेली आसता. म्हसगांच्या झाड

लेल्या फुलांची भाजी खायन खायन दिसता इतकेंच न्हय तर म्हस-
गाच्यो आंकऱ्यो कश्यो कंवळ्यो फांदयो खतखत्यांत घालून खावपी
रसीक जायते जाण आसात.

म्हसगांचे वखदी मोल जाल्यार हिसपाभायलें. जोरान फडफ-
डटल्या मनश्याच्या माथ्यार म्हसंगाच्या पानांचे हुनहुनीत कवळ
घालतात, घुंवळ आयल्यार म्हसगांच्या पानाचो रोस दोळ्यांत घाल-
तात, आंगार खरज आसल्यार म्हसगांची पाना वाटून रुवांचेर
लायतात.

म्हसींग मोव खरो पुण ताचेर अेक कोयतेचो धपको मारीत
जाल्यार ताच्या बदलाक तो घाव्यांतल्यान पांच मीण्टांभीतर चिक-
चीकीत गोम दिता. म्हसगांचेर बळवल्ल्या पानवेलीची पानां हेर
खंयच्याय झाडांर बळवल्ल्या पानवेली परस चड रुचीक आसतात हें
खंयचोय पान खावपी मान्य करतोलोच.

आमी म्हसगांकडलो संबंध हांगाव सोपयतात. खरें म्हळ्यार
आमी म्हसगांक सारखो वळखुंकच ना म्हणचो पडटलें, म्हसगांच्या
मूळापासून सुगंधी द्रव्या करतात म्हळ्यार आमकां सट्ट करुन खरें
दिसचें ना; म्हसगांच्या सांगाच्या बींयांपासून जें 'बीन–ऑयल'
म्हणून तेल काडटात तें घडचाळ सारखी करपी लोक वापरतात हें
आयकून आमकां अजाप दिसतलें आनी सुगंध तीगोवन दवरपाचे
ज़बरदस्त शक्तीक लागून हें तेल अत्तर तयार करपाच्या कारखान्यांत
वापरतात हें सत्य आयकल्यार आमी त्रोसां मारतात तो म्हसींग
होच मूं असो आमका दुबाव पडले बगर रावचो ना.

श्रावण–बाब आपल्या आवय–बापायक तीर्थयात्रेक घेवन
वतालो तेन्ना वाटेर रानांत म्हसगांच्या झाडापोंदा तांची कावड
दवरुन तो अुदक हाडूंक गेल्लो, थंय दशरथरायाचो बाण लागून तो
मेलो, त्या खातीर श्रावण म्हयन्यात म्हसगांची भाजी खायनात अशें
म्हण्टात. लोक ही आख्यायीका भक्ती भावान मानतात पूण श्रावण
म्हयन्याच्या सुमाराक म्हसगांची पानां तोरट जातात आनी पानांचेर
बारीक जीवय हुळहुळटा हे सत्य गजालीकडें तीतक्या खरेपणान
पळयकंच नात.

अेके बोधकतेंत जाल्यार, दारांत आशील्ल्या म्हसगांच्यो सांगो
विकून पोट भरपी जुवान तरनाटे म्हसगांक लागून आळशी जातात,
मागीर तांगेर आयील्लो सयरो रातचो म्हशींग कापून वडोवन पळटा
आनी ते दिसाच्यान ते हातपांय घोळोवन वावर करपाक लागतात
आनी बऱ्याक पावतात, अशें सांगला.

प्रत्यक्ष जांव अप्रत्यक्ष ह्या कांय गजालींतल्यान म्हसगांक
अुणाक लेखून ताच्यो भगेली मारपाचो प्रयत्न जाल्लो दिसता.
म्हसगांच्या गुणांच्या हिसपान 'पानवेली धर्मांन म्हसगांक अुदक' ही
ओपार जाल्यार म्हसगांचेर सासकीच अन्याय करता. म्हज्या कोतान
ती ओपार अशी आसूंक जाय आसली.

"म्हसगां धर्मान पानवेल अुबी."

—✿—

# प्रसाद

– दिनेश भरणो

अंती शेंवते लोक हांसतात आनिक परते–परते सांगतात म्हण देवाचो प्रसाद घेवपाक गेलें. फांतोडेर वचुन, नंबर काडून सुद्धा ताका आख्खो दीस देवळांत बसुन रावचें पडिल्लें आनिक सांजवेळच्या चार वरांचेर भटान ताज्या नावान दयेची पाकळी लायिल्ली. दिसाच्या लोकाचे प्रसाद घेवपाचे आशिल्ल्यान ताका इतलो पयल्या कळाव जाल्लो. भट एकदम चोख प्रसाद घेवपी. आपलें समाधान जाल्या शिवाय निमणी राखणेच्या प्रसादाची पाकळी कसोच लायनाशिल्लो. ताजो देवाचेर भावार्थ आशिल्लो. देवान तो प्रसाद लावपाचें काम पैशाखातीर करीनाशिल्लो, तर. देवान मुजरत लोकाचें बरें करचें अशें दिसता म्हण करतालो.

"आगे, दयेच्या प्रसादाक आडकाठी दाखयता. कसली अंगवण बी केल्ली असा हय तर ?" भटान शेंवत्याक विचारलें.

"आसत–नासत. कितले पैशे दिवपाचे ते सांग आनी सोपय एकदाचें." शेंवत्यान एक व्हड जांबय दीत म्हणलें. आख्खो दिस बसुन तें साप्प बेजार जावन गेल्लें.

"हां ! तर देवा, आंगवण आसत–नासत अशें ती म्हणता. ती आंगवण कसली ती तीका खबर ना. ती पुरोवपाक ती राजी आसा. कसली ती तूच सांग तिका. वडय उजव्यान एक पाकळी.

"पाकळी पडली. शेवतें देवाक पांच पानांचो एक विडो देईत जालें. मागीर भटान शेंवतुक कसलो प्रसाद लावपाचो तें विचारलें. भटान ताज्या कामाक प्रभावळीची पाकळी मागली, देवान तीच दिली. भटान खोश्शेन राखणेचो प्रसाद लागलो. चारांक पयली पाकळी लाइल्या शेंवत्याच्या कामाक साडे–पांच परेन तें सुटलें आ[...] घरा परतपाक लागलें.

जाल्लें किदें तर शेवतुचे एकलेंच चेडूं कोस्तूर हाका घरजां[...] हाडिल्लो. कोस्तुराचो घोव रघलो हो सबावान तसो सादोभोळो.[...] ताका एक वायट संवय आशिल्ली. ती म्हळयार भायलो छंद[...] ताका वेळाकाळाचें नास्तालें ध्यान आनिक जेवणा-खाणाची नास्त[...] रूच. फकद एक पिशें. ह्या एका पिशेपणाक लागुन लग्नाच्या [...] म्हयन्या उप्रांत ताणे कोस्तुराकडेन पळे जी पाठ फिरयली ती [...] वर्सां जायत आयली तरीय ताका कोस्तुराची याद म्हण आयली[...]

रघलो जोडपी बरो. पुण घर जांवय केल्लो जांवय [...] घरुच सोडुन गेलो तर मागीर ताजो उपेग तो किदे ? को[...] आनिक शेवचें उपाशी पडता अशांतलीय काय गजाल नाशिल[...] कोस्तुराचो बापुय गजा खंवसताना हेऽ पैशे आनिक हींऽ पो[...] कोस्तुराक सोडुन गेल्लो. त्या भायर काजी दिसानी, आम्या दिस[...] वाडचार रोस पिळपाचो, गार्फा कोंत्रादार घेवपाचो धंदो करप[...] रांड शेंवत्याचो हात धरपाक कोणाक बिशाद नाशिल्ली.

रघलो आठ दीस घरा आयलोना म्हण शेंवत्याक खंत जा[...] ताणे वाडयात सोद घेतलो. पंधरा दिस जातकच गावांत [...] घेतलो. म्हयन्यान गांवाभायल्या सोयऱ्या–धायऱ्यांकडेन चवक[...] काढली. दोन म्हयन्यानी देवाक आंगवण्यो केल्यो. स म्हयने ज[...] म्हणपाक ताणे हात–पाय गळोवन बें म्हणलें आनिक कोस[...] आवयबरोबर आंक्वारपणांतली जीण परत जीयेवपाक लाग[...] एरवीं जांगेंमदलीं सुखां–दुःखां थोडीतरी भोगिल्या कोस्तु[...] आवयच्या दोळयांआड काजिनीं वचुन घुमचेकार घुम्म क[...] येतालें. पुण जितलें शेवतें तिर्सुवाद तितलेंच कोस्तुरुय सा[...] अळणी पेज. शेवत्याच्या निर्सुवाद सबावाक लागुन कोण–[...] कोस्तुराकडेन पळय देखून नाशिल्लो, कोस्तुराकडेन पळवपी [...] नाट्याचे दोळे कोंचुन, ताजी काश्टी सोडुन, भांडवलाक गांठ मा[...] ताजी आख्खो गांवभर धींड काढपा इतली कापासदाद तिर्सुव[...] शेवत्याकडेन आस ही गजाली आखोगांव जाणा आशिल्लो. ता[...] लागून कोस्तुराचें जुवानपण रघलो नाशिल्ल्यान आपशींच हळू–[...] सुकुन वतालें.

स म्हयने जावन शेवत्यान बें म्हणुनाका, एक वर्स जावप[...] चडसो कळाव लागलोना. देड वर्स वाऱ्याबरोबर फुर्र करून उ[...] गेलें. मागीर मात इतलो तेंप शेंवत्याक भियोवन, भिडेवन व[...] राविल्लो वाडो ताका तोमण्यानी खावपाक लागलो. ताजेर प[...] रचुन, नाकातलो शेंबुड आनिक कुले धुंवक आनिक चेड्डी सु[...] घालुंक न येवपी पोरां म्हणपाक लागलीं. तरणाटे तर कोस्तुर[...] पळीवन तोंडात बोटां घालून' फिक क्यूऽऽऽ' करून शेवोणी घालप[...] लागले आनिक शेंवत्याक पळोवन मोठमोठयान हांसपाक लाग[...] शेंवत्यान दोन–चार तर्णाटयांक आनिक पांच–स शेंबड्यांक भेक[...] यले. पुण आख्या गांवांक तें कशें भेकणायतलें ?

शेवटाक ताका समजलें की रावपी वाडयाक आनिक वाड[...] वयल्या लोकांक आपुण किदे तरी देईत आसा. अंतीं ता[...] वाडयावयल्या दोन–चार जाणटयांकडेन वचुन तांचे सांगणे आयव[...]

आनिक एक दिस, जीवार येवनसुद्धां, देवळांत प्रसाद घेवपाक गेलें. शेंवत्याक दिशील्लें की प्रसाद म्हणजे भटाकडेन वचप, किदें तें ताका सांगप, तो आपल्याक जाय तें करतलो, आपणांक जाय ते पँशे सांगतलो, ते पँशे दिवप, तो दिता तें घेवप आनिक घरा येवप. तशें ताणेन केल्लें. ताका दिसलें सोंपली एकदांची कटकट.

देवळाचीं देंवती देंवतकच शेंवतुन गाडयार एक केळें विकते घेवन खालें आनिक वयर एक गड्याचें बाटलेंतलें सोद पियेलें. ड्रक करून एक धेंकर दिलो. पुण जिवाक तें घराभायर सरताना विस्कळ–विस्कळ कशें दिसतालें तशें दिसनाशें जालें. ताका वगीच आंडखळल्या भशेन दिसतालें. ताजी तिर्सुवाद जीण ताजी जरी आशिल्ली, इतलो तेंप भीतर कोस्तुराबगर आनिक कोणुच जरी नाशिल्लो, तरी प्रसाद घेवन दोंगर देवतानाच ताका एक कसली तरी शक्त आपले जीणेंत येवन आपल्याक मांदार करपाचो यत्न करता, करपाक सोदता हाजी जाणवीकाय जाली.

शेंवतें घरा आयलें, भटान दिल्लीं केळी कोस्तुराक खावपाक दिली. हात फाफुडल्याभशेन करून, वाड्यावयल्या लोकाचें एक व्हड रीण, पावयल्ल्याभशेन करून एक व्हड सुस्कारो सोडलो आनिक शेंनरेर आडवें पडलें.

प्रसाद घेवन दीस गेले, म्हयने गेले, एक जात्रा गेली, दुसरी जात्रा गेली आनिक तिसरी जात्रा आयली. हेवटेन रघलो दियार नव्या–नव्या खाणींत भांगर खणतालो. भांगर खणतां–खणतां बारा गांव तो भोंवलो. अंतीं नव्या खणींचो शोद घेवपाक म्हण मावडेच्या गावांक हेर जात्रांक भोंवतालो तसो आयलो. आनिक ताजी नदर एके बायलमनशेचेर पडली. गोरी, गोमटी, सुंदर बायल. पुण हेर बायलांक पळयतकच भांगराच्या खाणीक आंवड्चें अशें दिसपी रघल्याक, जीणेंत पयलेच फावटीं अशें दिसलें की जर ही म्हजी बायल आशिल्ली तर तं का हांव फोटवाभशेन फास्केंत घालून तश्शी घरांत सोबेक दवरून आख्खो दिस हात–बोट लायनासताना पळयत रावतलों आशिल्लों. पयलेच फावटीं ताणेन एका बायलमनशेक एका सोभेच्या वस्तीप्रमाण पळयल्लें. ती बायल एका वाटेन वळरा–कडल्यान कांकणा घालून घेताली, दुसऱ्यावाटेन पिंजर विकपी मनश्याक पिंजर दी म्हणताली, तिसऱ्या वाटेन, दुसऱ्या हातान आंबाड्याची फांती सारकी करताली आनिक त्याच हातान, रडत, आपल्या पायांक वेंग मारपी भूरग्याक वगी करताली. आज ताका बायलमनशेचें खरें रुप दिश्टी पडिल्लें. घोवाच्या नावान कुकुन लावपी, घोवाच्या नावान हातांत कांकणा भरपी, घोवाच्या नावान आंबाड्यांत फुलां माळपी, घोवाचे कुडींत कुड घुस्पुन आवय जावपी एका बायलमनशेचो नवो अवतार. ताका इतल्या वर्सांनी आपल्या कोस्तुराची याद आयली, आख्खी कुड शिरशिरली, थरारली आनिक एका जाग्यार गच्च उबो रावला. ताका पयलेफावटीं आपणे जीणेंत केल्ली व्हड चुक दिसून आयली आनिक ताजे दोळे दुखांनी भरुन आयले.

ताणें पयलीं रासभर फुलां घेवन देवळांत वचून देवाची भेट घेतली. परत भायर येवन एक फांती घेतली, कांकणा घेतली, पिंजर घेतली आनिक एका किलाची खाज्याची पुडी घेतली. तो घराकडेन चलपाक लागलो, शेंवत्याच्या, कोस्तुराच्या.

तिनसान जाल्ली. दारार माल्ल्याबरोबर शेंवतुन दार काढलें. ताका रघल्याक पळोवन अजाप जालें, काकुट दिसली, तिडक आयली अभिमानान हड्डें फुललें, लजेन मान सकयल जाली आनिक अंती हाताचीं बोटां उगडुन दोनुय हात रघल्याच्या गोमटेकडेन वचपाक लागले, ताका जीवो मारपाक, ताज्या खतखतीत रक्ताचो घोंट घेवपाक ताजे दांत शिवशिवुक लागले. पुण ताका प्रसाद घेवन आयल्याखिणाक मेरेन आपल्याचेर राखण दवरपी शक्तीची जाग आयली. ताजे हात धील पडले.

'आगो, रघलो येयला. तेका उदक न्हांवक दिवन वाढ.'

कस्तुर आयलें आनिक रघल्याकडेन पळोवन, दोळ्यांचेर काळोख येवन, भुयेंर पडलें. भुयेंर पडचे पयलींच रघल्यान ताका घट्ट धरलें, ताज्या पदरान ताजें घामान भिजिल्लें तोंड पुसले आनिक ताका आपल्या लेंसान वारें घालपाक सुरवात केली. शेंवत्यान एक खिण दोन खिण हो देखावो दोळे भरुन पळयलो आनिक दोळ्याक पदर लायत तें दुसऱ्या कुडींत गेलें, देवाच्या कत्रेलासरीन, आपली कुड आनिक आपली उरलेली जीण देवाच्या पायांर ओपपाक.



# गजाली

१) लक्ष्मणरावांचो अुगडास

२) कोंकणी शब्दकोश

३) ‘ व्हंकल पावणी ’

४) येस् मिनिस्टर आनी बाबा

— अना म्हांबरो

## लक्ष्मणरावांचो अुगडास

४ फेब्रुवारीक लक्ष्मणराव गेले.

लक्ष्मणरावांच्या व्यक्तिमत्वांत शिकोवपी, झुजारी आनी बरपी अशे तीन मनीस अेके पंगतीक बशिल्ले दिसताले. खंयचेय गजालीन झपाटून वचप हो तांगेलो प्रकृतीधर्म देखून शिक्षण सोपना बराबर ते प्रोफसोर जाले, अेंप्रेगाद जाले ना. फोंडेंच्या आल्मेद कुलेजातलो धा वर्सांचो काळ हो तांगेल्या शिकोवपी जिणेचो पर्वकाळ.

लक्ष्मणराव हे अेक फांकडे अुलोवपी. झुंजारी वृत्तीचो मनीस अुलोवपी आसलो जाल्यार राजकारणांत पडटा. त्यावेळचे परीस्थीतीक लागून लक्ष्मणराव स्वातंत्र्य सैनिक जालो. स्वतंत्रतायेच्या चळवळीच्यो गजाली सांगताना ते चडशा सभांच्यो आनी हेर वावराच्यो गजाली सांगताले. बंदखणींतल्या त्रासांच्यो सांगनासले (बंदखणींतल्यो गजाली सांगताना सगले स्वातंत्र्यसैनिक थंय दिसपट्टे कशे झगडटाले ताची खबर ते सांगताले.)

निमाणेकडेन लक्ष्मणराव हे अेक बरपी. वर्तमानपत्री बरपांतल्यान ते सर्जनशील साहित्याच्या मळार भितर सल्ले आनी थंय स्थिरावले कोंकणी, मराठी, पुर्तुगेज ह्या भासांनी तांणी जिनसावार साहित्य रचलें. पुण तांच्या मनाक खरो मानवलो तो प्रकार अेकूच, कथा.

आपले आनी भोवतणच्या लोकांचे जिणेंत लक्ष्मणरावांनी जें किते पळेलें तें तांणी कथांनी मांडलें. तांतल्यानूच मराठी का- साहित्यांत तांचें खाशेलें अशें स्थान निश्चित जालें. कोंकण खूब काळ लोकांच्या स्मरणांत अुरतलीं ती तांची व्यक्तिचित्रां आ लघुनिबंद.

जिणेंतल्या सोबीत गजालींचो आस्वाद घेवपाखातीर जें लागता तें मन देवान लक्ष्मणरावांक दिल्लें. आनी तें निमाणेमे जिवें तट्टीत आसलें. देखून ते अुमेदीन जगताले. फक्कत हाली कांय वर्सां तांची कूड तांच्या मनाक फावो तशी साथ दिनासली.

आपणाक जे तरेन जगन दिसता तशे ते, कोणाची प करिनासताना, जगले. तांगेलेच भाशेंत सांगपाचें जाल्यार संकेत कोट फोडून अेकेतरेचें फकिरी आयुश्य ते जियेले आनी तातुंतूच तृप्त आसले. आपल्या भूतकाळाक तोखेत ते बसलेनात. तांची न सदां भविष्यकाळाकडेन आसली. नव्या कादंबऱ्यांचे आराखडे मन घोळयत ते त्या भविष्यकाळाकडेन पळेताले.

लक्ष्मणरावांची फाटीं मुंबय दूरदर्शनाचेर मुलाखत जा त्यानिमतान ते आनी हांव लागीं आयले. मुलाखतीची कार्य टी. व्हीचेर लागून सोंपतकूच गोंयच्यान म्हाका अेक फोन आय तातूंत अुलोवप्यान म्हळें. ‘लक्ष्मणराव भुरगो दिसलो. तूं जा दिसलो.’

अुपरांत लक्ष्मणरावांच्यो आनी म्हज्यो खुबशो भेटीग जाल्यो. तांतल्यानूच कुळागर दिवाळी अंकांतली मुलाखत अुप्रास तांचीं पत्रां अदींमदीं येतालीं: (लेखनीक मराठी आशिल्ल्यान मराठींत आसतालीं.) पयल्याच पत्रांत तांणी आपल्या हात बरयल्लें, हें पत्र मराठींत आसा कारण लेखनीक ‘मराठी माण आहे.’ जानेराच्या पयल्या सप्तकांत आयिल्ल्या पत्रांत तांणी म्हळें ‘कुळागर दिवाळी अंकांतलो तुजो लेख (म्हळचार हांवें घेतिल तांची मुलाखत) अजून वाचूंक पावूंक ना. तो अंक हातांत पड आनी रोखडोच तो म्हजी नात कु. वर्षा घेवन गेली. तो अज परतो येवंक ना. चवकशी अंती समजलें की तिचे अेके मैत्रिणीन वाचूंक व्हेला. अशेरितीन त्या अंकाचो प्रवास चालू आसा. तो अ म्हज्या हातांत पडटा तो खोश्शेचो दीस.’

अुपरांत २१ जानेवारीच्या पत्रांत तांणी तो लेख वाचलेल्य आनी आवडलेल्याचें कळयलें.

लक्ष्मणराव हे अेक घट काळजाचे मनीस. देखून गर्द न्हिव आसताना काळान तांकां ओडून व्हेले. तांकां जागेपणीं व्हरप ताका धीर जालो ना.

## कोंकणी शब्दकोश

श्रीपादबाब देसाय हांच्या कोशांचो तिसरो वांटो खंय पाव काय हें समजून घेवपाची तुमचेपैकी कोणाकूच अुमळशीक आ जायत जाल्यार...तो वांटो सध्या नासकाच्या (नासिक शारांतल्य यशवंत प्रेसांत छापूक गेला. श्रीपादबाब सध्या नासकाक आसता धुवे जांवयागेर रावतात. घराचें नांव मांगिरीश. पैर तांगेलें प आयलां तातूंत ते म्हणटात. ‘आज चौदावो फॉर्म छापतात. म्ह अेक हांतरुण मांगिरिशांत आसता. दुसरें यशवंत प्रेसांत...शब्द कोशाच्या तिसऱ्या भागाक ६०९ पानापसून सुरवात जाल्या. आ

१३२ पान छापून जालें. ह्या भागाचीं पानां साडेचारशीं जातीत. भागांत छपाऑी सोंपून बायंडींग करूंक मेळत... तिसऱ्या भागा भुपरांत सप्लेमेंटचें पुस्तक. ताचीं अडेचशीं पानां जातलीं. हात बरप यार आसा. म्हाका पैशाची गरज लागची ना. म्हज्या कोंकणी गावराचेर लक्ष्मी प्रसन्न आसा.'

## व्हंकल पावणी

चंद्रकान्त केणी हांच्या 'व्हंकल पावणी' ह्या कथा संग्रहांत तरेकतरेचे भोग आसात – तन्ने, अमुरपिके, पिके, बाविल्ले बी. हे भोग करपी बायलांय तरेकवार आसात. चडशीं सिनेमाच्या पड्डयार दिसतात तसलीं. हे पळेयात तांचे कांय नमुने:

'पोस्ट मोर्टेम' हे कथेंतली मीनाक्षी : 'नाय जाल्यार चार चौगांत ती नदरेंत भरपाचीच. गंवा रंगाची गोरसाण आनी कोरीव शिल्पावरी आंगलोट. नांवावरी चकचकीत दोळे... हांसताना गालांक वळयो पडटाल्यो आनी धवे फुल्ल दांत ल्हायांवरी चकचकताले. फुडल्यान घेतिल्ली लांब केंसांची फांती तिचे छातयेवेल्यान जमनीर गाविल्ली...'

'रीना जोझेफ' हे कथेंतली रीना : 'रीनाची पिराय बत्तीस वर्सांची आसूंये. घडये दोन वर्सां चडच. रंगान काळी. पुण काळीं बायलय सुंदर आसूं येता म्हूणन बोट दाखोवपासारकी. तोंडाचेर अेकेतरेची टवटवीतसाण. हांव तिका पळेतना ती ओठाचेर मंद हांसो फुलोवन संकोच करिनासताना बशिल्ली. तिणें वापरिल्ल्या सेंटाचो परमळ पातळिल्लो. गुलाबी साडी आनी गाढ गुलाबी ब्लावज. केंस फाटल्यान बांदिल्ले. कपलाक गुलाबी तिकली.'

'मिस डायना डिसूझा' हे कथेंतली डायना : 'आंगभर साडी. मानेर लांब सळसळीत केंस. फूलस्लीवसांचो ब्लावज. साडयेच्या रंगाक मॅचींग असो. गळयाक भांगराची बारीक सरपळी आनी तिका भांगराचो खुरीस. सरपळी ब्लावजावयल्यान भायर काडिल्ली. कानांक दोन रिंगां. नाकाक कांय ना. कपलाक कांय ना. दाव्या हाताक अेक घडयाळ आनी अुजव्या हाताक अेक चकचकीत कडें. दोळयांक गॉगल्स... तशी ती सुंदर... आंगलोट अेक–शिवड. गोरी–धवी. तिशींतली आसूंये.'

'लुसी' हे कथेंतलें लुसी : 'बेलबॉटमचें पॅण्ट आनी वयर भडक तांबडो गुरु शर्ट. आंगाची अेकूण अेक बाग, अुबार नदरेत भरतली. फाटल्यान ताचो आंगलोट चड नदरेंत भरतलो... दंवान न्हाल्ले कळयेवरीं ताचे तोंड रसरशीत दिसले–'

आतां चंद्रकान्ताल्या कथांतल्या भोगाचे हे वेगवेगळे प्रकार पळेयात :

पयलो : 'आपलें आंग तागेल्या आंगाक लागतकच ती आंग चोरून घेताली. पुण स्कुटरीचो वेग वाडटकच मात्शी भियेवन तिणे आपल्या दोनूय हातांचो विळखो तागेल्या पोटाक घाल्लो. तिगेले हून स्वास तागेले फाटीक अूब दिताले आनीं छातयेचो स्पर्श ताका सुखायतालो.'

दुसरो : 'आज ती केंस वळोवन, आंबाडो घालून रावतली. पांयांचे जोड माळटकच आपलें आपूण तोखेतली... आज ती धवी साडी न्हेसतली... आनी हांवे म्हळें, "आज ही सुतकी साडीशी कित्याक न्हेसल्या बाये ?" जाल्यार चार–पांच साडयो म्हाका दाखोवन विचारतली, "खंयची न्हेसूं ?" "रेवती, ती गुलाबी साडी न्हेस तूं..." म्हजे वाक्य पुरे जावचे आदींच ती साडी बदलूंक भितल्ले कुडींत वतली.'

तिसरो : 'कॉलेज्यांत अेकाद्रो पिरियड चुकोवन सोनाली लायब्ररींत वचून सुरेशाची वाट पळयताले– सुरेश नदरेक पडसर ताची नदर दाराचेर थिरावताली आनी तो दिसनाफुडें हातांतल्या पुस्तकांत ती रिगताली. सुरेश येतालो आनी लागशील्या कदेलाचेर बसून वोगीच खांकतालो. सोनाली तकली वयर काडिनासलें. मागीर सुरेश आपलें पेन मेजार टक् टक् करून वाजयतालो.'

'व्हंकलपावणी' हो चंद्रकांताचे चवथो कथासंग्रह. (आदले तीन संग्रह हे : 'धर्तरी अजून जियेताली,' 'आशाढ पांवळी' आनी 'अळमी') ह्या संग्रहांत आदल्या कथासंग्रहापरस वेगळचो अशो कथा आसात. त्या कथांचें अेक आंग हें गजालींत दाखयतां. हेर आंगाचें दर्शन वाचप्यांची मूळ कथा वाचून घेवपाचे :–

## यस् मिनिस्टर आनी बाबा

येस् मिनिस्टर ह्या टी. व्ही. सिरियलांतली ही गजाल.

मिनिस्टराची आनी ताच्या प्रायव्हेट सेक्रेटरीची पयलीच वळख जायना फुडें तो सेक्रेटरी मिनिस्टराक विचारता, 'ड्रिंक जाय मिनिस्टर ?'

मिनिस्टर 'नाका' म्हणून मान हालयता आनी 'जीम्' म्हणटा.

'जीन् ?'

'न्हय. जीम्. म्हाका जीम् म्हण. मिनिस्टर म्हणू नाका.'

'तुमकां दोनूय नांवां सारकींच दिसता जायत जाल्यार हांव तुमकां मिनिस्टरूच म्हणटां मिनिस्टर.'

अेकाच वाक्यांत 'मिनिस्टर' हें अुतर दोन फावट आयकत-कूच मिनिस्टर मात्सो कांचवेता. अुपरांत ताका कळटा ती सेक्रेटरी लोकांची अुलोवपाची पद्धत.

हाचेवेल्यान अुगडास जालो, गोंयांत अेका मिनैराक ताच्या ऑफिसांतले लोक 'बाबा' म्हणटाले. ताका लागून मिनैराचे आनी ताचेकडेन शिर्वीस करपी लोकांचे संवाद सादारण अशे जाताले:

"आरे कृष्णा–"

"कितें बाबा ?"

"म्हजें बॉक्ल खंय रे ?"

"निकतें बाबाच्याच हातांत आसलें न्हय तें बाबा ?"

"हय बाबा. हांवेंय बाबाक बॉक्ल लावन वाचताना पळेल्लो बाबा"

"आरे शिन्या–"

"कितें बाबा ? बाबान म्हाका अुलो केलो बाबा ?"

त्या ऑफिसांत नव्यानूच लागिल्ल्या अेका मनशान थंयच्या अेका अणभवीक मनशाक विचाल्लें, "तुमी अशे बाबा बाबा करून कित्याक अुलयतात बाबाकडेन ?"

ताणें जाप दिली, "ती पुर्तुगेज पद्धत."



# चार्वाक

— शैलेशकुमा

वेदकाळांतय वेदांचेर अविश्वास दाखोवन तांचेर टीका जाली. अस्तित्व, पाप–पुण्य, मोक्ष, स्वर्ग–नरक आनी मनशाचो आत्मो ह्या कल्पनांचो धिक्कार करून जे दोळ्यांक दिसता तेंच खरे; तेंच प्रत्यक्ष प्रमाण अशे शिकप दिवपी आनी तिजेप्रमाणें चलपी एक संप्रदाय त्या काळार जल्माक आयिल्लो ताका चार्वाक संप्रदाय वो लोकायत संप्रदाय वो पंथ म्हण्टात.

चार्वाक संप्रपायाचो आनी विचार पद्धतीचो मूळ पुरुश बृहस्पती ऋशी अशें मानतात. चार्वाक म्हळ्यार एकाद्रो मनीस न्हय. जो मनापासून देवाचे अस्तित्व मानीना, वेदांची निंदा करता, फकत संवसारांतलीं सुखां मेळोवपाखातीर जीण घालयता तो चार्वाक. वेदांची निंदा केल्या.न चार्वाक हे वेगळेच पडले. तांचेभोवतणीं शिश्यांचो मेळावो केन्नाच जमलो ना. हाजें कारण म्हळ्यार जणएकलो मनीस, मागीर तो ल्हान–व्हड, मोठो-बारीक, शिकिल्लो–गांवठी आसूं, संवसारिक वो संवसार सोडिल्लो आसूं, तो मरणाक आनी संकश्टाक दुख्खांक भिता. आनी दुख्ख संकटां वांटयाक आयलीं कि तांतल्यान तरपाखातीर ताका कसलो तरी आधार लागता. आनी देव म्हण्टात. तो एक मोठो आधार जाल्यान तो आधार सहजतायेन तोडप शक्य ना. वेदकाळांत चार्वाकांनी जेन्ना आत्मा म्हण्टात ती आनी हेर दैविक गजाली म्हळ्यार एक फोकाण, कल्पना अशे विचार मांडले तेन्ना समाजांतल्या चडशा लोकांनी तांकां पिशांत काडले. संवसारिक सुखाच्या तांच्या कल्पनांची टर उडयली. रीण काडून सण करपी म्हूण तांचेर बहिष्कार घालो. पुण त्या काळार लेगीत चार्वाक विचार पध्दतींतले जायते विचार घेवपासारके आसले. देखीक वर्णभेद, जातीभेंद हांका शास्त्राचो आधार ना. वेदांचो उदोउदो फकत होम हवन करुन आनी आंगाक भस्मां लावपी लोकांनी आपणाल्या मोठेपणाखातीर केला. पातिव्रत्य ही कल्पना भिजूड पुण बुध्दिवंत दादल्यानी काडल्या. मरण होच मोक्ष मरतगीर कांय उरना हे तांचे विचार मतींत धारपासारके.

आज हे विचार सर्रास आमी आयकतात. पुण सुमार अडेच हजार वर्सांपयलीं– 'धर्म म्हळ्यार अफूची गुळी' वो 'स्त्री–स्वातंत्र्य' ह्या कल्पनांक भर येवचेपयलींच हांगा हे विचार जल्मले. हें येवजिल्यार अजाप दिसता. आनी समाजा आड बंड करपी ह्या चार्वाकांचें कवतुक दिसता. तांचेबद्दल आदर दिसता. सामाजिक क्रांतीची मूर्तमेढ चार्वाकांनी ह्या देशांत घाली. हेर देशांनी हे विचार हालींच्या शेंकड्याचो दोन शेंकड्यात रुजल्यात.

चार्वाक संप्रदाय रुजूंक लागिल्लो तेन्नाची ही कथा

सगळो आस्रम काळखांत बुडिल्लो. तरी लेगीत चा उठलो. दोनीय हात वयर काडून ताणे आंग पिळळें. आनी आं उरिल्ली सुरिल्ली न्हीद शेंवटून उडोवन तो सदांच्या कामाक लाग दूध काडप, गोरवांक तण घालप, शेण भरप... आस्रमातल्यो ता जोडीदाराक आज बरें नाशिल्लें. जण एकल्या शिश्यान नेमान कामां करपाचीं चार्वाकाक असल्या कामांची केन्नाच उबगण येना ते वेद, श्रुती, उपनिषदां वाचचे परस हीं कामां बरी अशेंच म्हण्टा तो बरो नाशिल्ल्या शिश्याच्या वाट्यांचे काम तो आज करतालो.

फांतोडेची वेळ ती. अजूनय आस्तम काळखांतच आशिल गोब्यांतली कामां करून सभामंडपाकडेन येवपी चार्वाकान जनेलाकडेन उबो रावन पूर्व दिकेक पळयले. सूर्य उदेवचे पयल तांबसाण मांडिल्ली. झाडांझाडांर सवगीं चिवचिवतालीं. माकोड फांद्यावेल्यान उडयो घेत सकल देंवतालो. चार्वा दिसलें. कितली सुखदिणी जीण हांची, फाल्यांचो हुस्को ना. कितें जालें ताजी चिंता ना, फकत आयच्या दिसाचें पळोवपाचें. धेंगसो घालून त्या माकडाक भिवोवचें अशें ताका दिसलें. पुण त ती उर्बा मनांतले मनांतच चिर्डडिली. आस्रमांतले हेर शिश्य अ नय सकाळची सुखदिणी न्हीद काडटाले. आनी गुरु रुशी चड ता आनी तांची शिस्त...

गुरु रुशीची याद येतकच ताचें आंग थरथल्लें. शियान कुडकुट्टालेंच. आतां भिरांतेनय ऋग्वेदांतली जायतीं सूत्रां ताका करपाचीं आसलीं, सट करून तो सभामंडपांत भितर आयलो. भि एका कुशीक चारपांच शिष्य हातांत दोरयो घेवन विटांचेर दवरून होमकुंड तयार करताले. सट् करून ताका याद जाली, अ गुरुपौर्णिमा. नवीं भुरग्यां आश्रमांत येतली. शिकून जाल्लीं आश्र सोडून वतलीं... आपणाक अजूनय कांय वर्सां हांगाच वेद करीत रावंक जाय. हें येवजून ताजे पांय जड जाले. तेच जड घेवन तो विटांचे कुंड तयार करता तांचे म्हऱ्यांत गेलो. कित्य तरी लागून तांचें काम अर्दारच उरिल्लें. एक शिश्य मातयेर अं मारतालो. दुसरो दोरयेन मापतालो. तिसरो श्लोक म्हणत 'हां एक खुंटी मारात. थंय दोन आंगळां सोडात' म्हण्टालो. 'शुल्बसू' प्रमाण चार कोणशांवी यज्ञवेदी तयार करून पूर्वदिशा थरो पाचें तावें काम चलिल्लें. चार्वाकाक शुल्बसुत्रां आवडटालीं. सार मापाचें वर्तुळ आनी चौकोन तो सारखो रचतालो. पुण आज तें ताजेकडेन सोंपयलें नासलें. त्या कामांत ताणें हातबोट घाल्लें रुशीक मानवपासारकें नासलें. ताची शिस्त सामकी कडक. इतल दोरयेन माप घेवप्यान ताका विचाल्लें, 'चार्वाका, पूर्व दि खंयची रे ?'

'पळय !' उदेत्या सूर्याक बोट दाखयत चार्वाकान सांगलें. शिष्यांनी आंग वळोवन जनेलांतल्यान पळयलें. सकाळचो तांबडो भडंग सूर्य ल्हवु ल्हवू वयर येतालो. ताणीं सूर्याक नमस्कार केलो. पुण चार्वाक ओगीच रावलो. नमस्कार कित्याक करपाचो ? उदेवप हो सुर्याचो धर्म. उजवाड दिवप होय ताजो धर्म. हातूंत नमस्कार करीसारखे कितें आसा हेच ताका कळ्ळेंना.

इतल्यान एका शिष्यान उठत म्हळें, 'अशें बोट दाखय नाका. हांगा मातयेर शुल्बसूत्रांच्या आधारान दोरयेन आकृती काडून दाखय.'

'कित्याक ? दोरयेन आकृती काडून आनी शुल्बसूत्रां तोंडपाठ म्हळीं म्हणून दुसरीं खंयचीय दिशा पूर्व थरपाची आसा कांय कितें ?' चार्वाकान विचाल्लें. त्या शिष्यान हातांन फुडें केल्ली शुल्बसुत्रांची पोथी ताणें हातानच पेल्यान काडली. ती पोथी सकल पडली. ती पोथी बरीच पोरणी जाल्ली. तिजीं पानां वाऱ्यान हांगाथंय जालीं. एक शिष्य बसून तीं पानां एकठांय करूंक लागलो. इतल्यान गुरुरुशी भितर सल्ले. रागान ते सामके फुलिल्ले. पोथी धुकलून उडवप स्वताच्या अपमानापरस चड लागलें तांच्या मनाक 'लाग चलूंक हांगसल्लो. उणाक, पाडपडिल्लो. आज पोथी धुकलून उडयली. फाल्यां वेद कोणशाक उडयतलो. असले शिष्य हांगा उपकरां पडपाचे नात. लाग चलूंक' चार्वाकाक तापोवन ते न्हावंक गेले.

चार्वाक हुंडक्या हुंडक्यांनी रडूंक लागलो. पुण कोणें एकल्यानय ताका माया दाखयली ना. एक ताजो इश्ट आसलो थंय पुण तोय आज जोर येवन न्हिदिल्लो.

काळजार फातोर दवरून चार्वाक आस्रमांतल्यान भायर सल्लो. ताजे बराबरचे शिष्य तोंडां येंदीशीं करून पळयतालीं. पुण चार्वाकान तांचेकडेन लक्ष लेगीत दिलें ना. चार्वाक मोठो मानी. गुरु रुशींनी आपुण कितें म्हण्टां तें आयकून तरी घेवंक जाय आसलें अशें ताका दिसतालें, पुण ते तर ताजेर नदर लेगीत घालूंक तयार नासले. चलत चलत तो आश्रमाच्या भायल्या दरवटयाकडेन आयलो. थंय दोन ल्हान भुरगे उबे आसले. तांच्याबराबर एक जाण्टेलो मनीस आसलो. तो तांचो बापूय आसलो. तिगांलेय दोळे दुकांनी भरिल्ले. भुरगे आतां आश्रमांत रावतले म्हूण बापूय रडटालो तर आतां आवयबापाय पसून पयस रावचे पडटलें म्हूण ते भुरगे रडूंक लागील्ले. आपुणय एक दीस हांगा कसोच आयिल्लों ही याद जावन चार्वाकाक कच्च जालें. तो दार उगडून भायर सरूंक लागलो तेन्ना त्या भुरग्यां-बराबरच्या जाण्टयान ताका म्हळें, 'आश्रमांत वचपाचें दार हेंच न्हय ?'

'हय' चार्वाकान मान हालोवनच हय म्हळें. 'भायर वचपाचेंय दार' उतरां ताज्या वोंठार आयिल्लीं पुण तो ओगीच रावलो. तुरतुरीत तो वाट चलूंक लागलो. वाटेर जायते भुरगे आनी तांचे बापूय ताका आश्रमावाटेन वचपी दिसले. गुरुपुनवेच्या मुर्तार आश्रमांत वचपी, 'किते मनशां ही ! वेद पाठ करात. पुण कित्याक पाठांतर करपाचे हाजो तरी विचार करात.' चार्वाकाच्या मनांत विचार येताले. आश्रमांत आसताना घडिल्ल्या एके गजालीची ताका याद जाली. ताजो एक इश्ट एक फावट बरे ना जावन हांतुणार पडलो. तो आता वांचना अशी परिस्थिती आयली. हाडांचो सामको पांदरो कसो जाल्लो तो शिष्य. वखदानव तो बरो जातलो हें सामकें स्पश्ट आसलें, पुण गुरुरुशी फकत ताका गंगोदक पियेयत बशिल्ले. पयलेच दीस खणून हाडिल्ल्या एका मुळाचो ताजेर इल्लो इल्लो परिणाम दिसतालो. पुण गुरुरुशींनी वखदां दिवपाक सामकी बंदी केल्ली. चार्वाक चोरून मुळी झरोवन गंगेच्या उदकांतल्यान त्या शिश्याक पियेयतालो. कांय दिसांनी तो शिष्य बरो जालो. मुळयेन ताका गुण आयिल्लो पुण श्रेय सगळें गेलें गंगेच्या उदकाक आनी बरो नाशिल्ल्या म्हऱ्यांत बांदिल्ल्या वेदांक. श्रेय कोणाकय मेळूं पुण चार्वाकाक वायट दिशिल्लें तें वेगळयाच गजालीचें. त्या शिष्याक बरो जाल्ल्या खिणाकसून वेदपाठ करूंक लायिल्ले. आतां ताज्या त्या बऱ्या नाशिल्ल्या इश्टाकय वेदपाठ करचे पडटले आसले.

इश्टाच्या यादीन ताजे दोळे भल्ले. गुरुरुशीन आपणालें आयकल्लें तर ! आतां घरा वतगर बापुय कितें म्हण्टलो...,

चलत चलत तो घरालागीं पावलो. फुडें दिसता. तें वळण काडटगीर ताजें घर नदरेक पडटा. तो आनी मात्सो फुडें गेलो कान दीवन आयकूंक लागलो. हय बापूयच तो. वेद पाठ करतालो. तांचे तांबडे दोळे आनी रागीश्ट सभाव. ताजें काळीज हाललें. घरा वचून आवयक मेळचें अशें ताका दिसतालें. पुण प्रयत्न करूनय आवयची मूर्त ताज्या दोळयांसामकार येनासली. दिसताले ते बापायचे रागान तांबडे जाल्ले दोळे. उबारिल्लें पावल ताणें फाटीं घेतलें. घराकडेन पळयत पळयत तो फाटीं फाटीं चलत रावलो. मोण्णार पावतगीर घर दिसनाशें जाले तेन्ना तो फाट करून चलूंक लागलो. आयिल्ल्या रस्त्यान परतो. पुण आतां आस्रमाकडेन वचनास्तना ताणें सरळ रानाची वाट धल्ली.

रानांत रावचें. कंदमुळां खावचीं. घोली आसतल्योच. तांतु-तली एक बरीशी पळोवन तातूंत रावचें. वझऱ्यांक-न्हंयांक तोटो नाच. सुशेगाद रावपाचें. आत्मो-परमात्मो हीं सगळीं फकाणां. मनीस मेलो कीं ताजीं मातीच जावपाची. पाप-पुण्य, स्वर्ग-नरक हे सगळे मनाचे खेळ. खरें चैतन्य आसा तें जितो रावपांतच... भूतेभ्य: चैतन्यम्...

आपणाल्याच विचारांत गुल्ल जावन तो चलतालो. रानांतली मनाक मानता ती जीण जगूंक वतालो तो. चलतां चलतां भोंवतणचें रान दाट जावंक लागलें. ऊंच ऊंच रूख आनी तांचेवेल्यान उडयो मारीत वचपी माकडां. वेगळयावेगळया रंगाचीं सवणीं... आतां रान खूबच दाट जाल्लें. इतलें कीं वताचीं किर्णांय जमनीर पाव-नासलीं. एका व्हड रूखापोंदा तो थांबलो. सामकार खोल दरी आसली. मदींच एकाद्रें सवणें चीं चीं करीत उडत वतालें आनी त्या आवाजान कच्च जावन तो विचारांतल्यान भानार येतालो. सहज म्हूण ताणें फाटल्यान पळेलें. केदी व्हडली रोयण. मुंयांची. तातल्यान तांबडयो मुयो योवच करताल्यो. सट करून तो उठलो. चलूंक लागलो. परत घरा वचूंया ? तो चिंतूंक लागलो. अशी ही भिजूड-पणांतली जीण तरी कसली. इतल्यान कोणाच्या तरी चलपाचो आवाज ताज्या कानार पडलो. ताका मात्शें हायसें दिसलें. कोण तरी येता.

तसो भरपाक तो भियेनासलो. पुण असो फुकोबेस्टो रानवटी जनावरांची खावड जावपाकय तो तयार नासलो. मनीस जल्म असो फुकट उडोवपाचो ?

पावलांचो आवाज आतां लागीं पाविल्लो. ताणें पळेलें. दोन बैरागी येताले. बरें जालें. आतां हांचेबराबर वचूंया. खंयतरी वचपाचें. मेळटा तें खावपाचें आनी जीव वाटावपाचो इतलेंच हातांत उरिल्लें. मनशान अशेंच जगूंक जाय. फाल्यांची चिंता करीनास्तना. फुडलो जल्म बरो वचपाखातीर ह्या जल्मांत पुण्य करपाचें ? खडावो निवळ करपाचें निमित्त करून तो थांबलो.

फाटसून येवपीं ते दोन बैरागी ताजे म्हऱ्यांत आयले. उलयत उलयत. ते ब्रह्म, माया बी जड जड गजालींचेर उलयताले. या एकल्या बैराग्यान जटा वाडयिल्ल्यो तर दुसऱ्यान बोड ताशिल्लें. जैनपंथी आसतलो. तांचे फाटल्यान आनीक एकलो येतालो. ताका सामकें पुरो जाल्लें आसतलें. ल्हवूल्हवू चलतालो. चार्वाक ताजे बराबर चलूंक लागलो. पयस दाट झाडां आशिल्लीं. तीं ताका हालिल्लेसारखीं दिसलीं, येदोळसावन धुल्लांत उदेल्लीं पावलां चार्वाक बारीकसाणेन नियाळटालो. ताका कसलो तरी दुबाव आयलो. त्या तिसऱ्या मनशाचो हात ओडून तो आडडलो. 'अरे वाघ आसा थंय वाघ !' झटको मारुन ताणे त्या बैराग्याक ओडून झाडाम्हऱ्यांत व्हेलो. झाडार चडयलो. आपुणय चडून बसलो.

अकस्मात दोळयांची पाती हालता ना हालता इतल्यान एका वाघान झाडांतल्यान भायर उडी घेतली आनी खिणाभरयांत त्या दोगाय बैरांग्यांचेर उडी घालून तांका मारले आनी तांकां थंयच उडोवन ती परती गेली.

बैरागी हे पळोवन थरथरूंक लागिल्लो. भिरांतेन रडूंक पाविल्लो. तो सकल देवंक लागलो. चार्वाकान ताजो हात घट धल्लो. सकल देंवनाका. ती परती येतली' चार्वाक सांगता थंय आसा ती वाघींण तीन पोरांक घेवन हजर. चौवांनीय तीं प्रेतां ओडीत ओडीत व्हेलीं.

जायतो वेळ वतगीर चार्वाक सकल देंवलो. त्या बैराग्याकय सकल देंवयलो, बैरागी घामान सामको भिजून गेल्लो. अजूनय ताजे हातपांय थरथरताले. ' मेले बापडे ' ताणे चार्वाकाक म्हळें ' जीणभर पुण्याय जोडटाले. तांचे हातसून कसलोच हत्या लेगीत घडली ना केन्ना ' तो हुंडके दीवन रडूंक लागलो. चार्वाकान थंडसायेन ताका म्हळें, ' हें पळय, अहिंसा हो खूब मोठो धर्म हें तुका म्हाका कळटा. पुण त्या वाघाक तें कळूंक नाका ?' ताज्या खांदार हात दवरून चार्वाकान फुडें म्हळें, 'स्वर्ग–मोक्ष, पाप–पुण्य म्हण्टात त्यो आमीच आमच्या तकलेंतल्यान काडिल्ल्यो कल्पना, तांकां कांय अर्थ ना. वेद, होम, हवनां ह्यो सगळयो गजाली आमीच निर्माण केल्यात. त्यो सगळयो अर्थ नाशिल्ल्यो गजाली, जांकां फकत मंत्र म्हणून पोट भरपाचें आसा असल्यांनी त्यो निर्माण केल्यात. इश्टा, मनीस मेलो कीं सगळें सोंपलें. आत्मो बी म्हण्टात त्यो सगळयो फटींच्यो गजाली. शुध्द धवंगीपणा. वेदांचेर म्हजो विश्वास नाच, देवाचेरय ना ...'

'पुण इश्टा,' त्या मनशान भीतभीत म्हळें ' फुडलो ज[...] जनावरांचे योनींत मेळ्ळो जाल्यार ? तो नाका म्हूण हे यज्ञ, हो[...] हवनां वेद करून पुण्य जोडूंक नाका मनशान ?'

हे आयकून चार्वाक पोट फुटसर हांसलो. 'पुनर्जल्म, पाप, पु[...] ह्यो गजाली आंगार भस्मां ओडून यज्ञांत दक्षिणा घेवपी लोक[...] तयार केल्यात. पिसो तूं. जशें झाड किल्लून येता, वाडटा, मरता त[...] मनीस. म्हूण म्हण्टां, पिशाभशेन नाका तो विचार करी ना[...] श्रुति, स्मृति, तथागत, तीर्थंकर, कोणाकोणाचेर विश्वास दव[...] नाका, फकत स्वताचेर, स्वताच्या कुडीचेर विश्वास दवर.' चार्वा[...] ताका म्हळें.

रान फाटीं घालून दोगीय एका शाराच्या दिकेन च[...] लागले. रस्त्यांत आतां लोकांचे चोमे दिसूंक लागले. पयसुल्या[...] चार्वाकाक खाणांचो वास येवंक लागलो. तूप कडयिल्ल्याचो, गोडा[...] पंख केल्ल्याचो गोडगोड वास येवंक लागलो. दुधाचे हांडे व्हरपी ल[...] दिसूंक लागले. फळांच्यो बुटयो व्हरताले. एकल्याक चार्वा[...] विचाल्लें. राज्यांत पावस पडना म्हूण बेपकेचे लग्न करप[...] समारंभ आसलो. चार्वाकान मळबाक पळेलें. सगळें खडखड[...] दिसताले. एकय कूप नाशिल्लें. चार्वाकान बैराग्याक म्हळें, ' इ[...] किते पिशे लोक रे हे ! बेबकाचें लग्न केलें म्हूण पावस पडटा[...] पुण तरीकय सांगतां, टिटवी रडटा, सवणीं परतीं येतात. को[...] बेंठोच साद घालतात. चड करून पावस पडटलो. तों मेरेन हो ह[...] जावनय वतलो. यज्ञ केल्ल्यान पावस आयलो, अशें लोक म्हण्ट[...] चल आमीय यज्ञाकडेन वचूंया. हांव ऋचा म्हणीन. तू दक्षणा[...] चारदीस मस्त जेवंया, भूक आडडूंक लागल्या. बासुंदी, श्रीख[...] पायस, वडे, खीर... चल चल, बेगीन वचया.'

ते यज्ञाकडेन पावतात ना पावतात इतल्यांत पावस प[...] लागलो. यज्ञ तर सुरू जावचोच आसलो. लोक आनंदान ना[...] लागले. यज्ञ चालू जालो. पंक्तीर पंक्ती पडूंक लागल्यो जेवणाच[...] आडवे उबे हात चलूंक लागले पानांवेल्यान. चार्वाक बैराग्याक घे[...] पोट भरभरून जेवंक लागलो. पांचवे दिस सगळे लोक परते व[...] लागले. माटोव सामको रितो पडलो. ' इश्टा, चल आतां. हां[...] रावपांत आतां अर्थ ना. दुसरेकडेन खंयूय वचूंया. ओगीच वेद, ऋ[...] म्हणपांत किते अर्थ आसा?' चार्वाकान इश्टाक म्हळें.

बैराग्यान चार्वाकाचेर एक नदर माल्ली. आनी म्हळें, 'इश[...] तुज्याबराबर येन आसलों. पुण म्हाका पाप लागतलें. जो [...] मानीना तो नरकांत वता. तुज्याबराबर हांव कित्याक नरकांत येवं[...] हांव बापडो हांगाच रावतां. म्हाका पुण्य करपाचें आसा...[...] न्हय! '

ताका थंयच सोडून चार्वाक झपझप चलूंक लागलो. तां[...] सूर्य ल्हवु–ल्हवू सकल देंवक लागिल्लो. तांबसाण जांभळी जा[...] काळी जाली. तरी चार्वाक भुताभशेन त्या अंधश्रद्धेच्या काळखां[...] ल्यान वाट सोदीत वचत रावलो.

■

# यादींचे खीण

– *भिकाजी घाणेकार*

हांव उसगंवां रावतालों त्याच घरान अर्दाक सरकारी आरोग्य केंद्र आशिल्लें आनी फाटले वटेन अर्दाक म्हजो राबितो. म्हजो बापूय तेन्ना Retined म्हळचार बसपगारी जाल्लो म्हण्टगच तो केन्ना केन्ना दोन चार दिस येवन उसगंवां रावतालो.

म्हजो एक प्यून आसलो तोच म्हाका रांदतालो म्हळचारूच peon cum cook अशी तरा.

म्हज्या कुडींत जंय हांव न्हिदतालों थंय एक खाट आशिल्ली, खाटीच्या उजवे वटेन जमनीरूच एक ट्रंक आशिल्लो. त्या ट्रंकान थोडे पैशे आनी हेर सामान आसतालें. म्हज्या बापायक जमनीर शेनरी घालून न्हिदपाची संवय आशिल्ली देखून तो ट्रंकासकल्या भागाक जमनीर न्हिदतालो.

म्हज्या कुडीभायर दुसरी कुड आशिल्ली थंय एक जनेल आशिल्लें आनी ताका वारांव आसून, भितल्ल्यान दार आसलें.

एक दिस पावसाच्या तेंपार आमी दोगूय न्हिदील्ले. सुस्त न्हिदील्लेकडेन एका चोरान जनेलाचे वारांव मोडून भितर सरलो. ताणे ट्रंक उबारून व्हेलो. ट्रंक उबारून व्हेलो तरी बापायक जाग आयली ना.

थोड्या वेळान रातचेच आमी जागे जा जाल्यार सामको मोठो पावस पट्टा. बेट्रीचो दिवो पेटोवन पळेय जाल्यार भायलें दार उघडें हें पळोवन बेगीबेगीन म्हज्या बाप्पायन म्हाका उठयलो. दिवो पेटोवन पळेत जाल्यार ट्रंक ना. भायलें दार उघडें. ताज्या भायर वच जाल्यार आमचो रेडियो (ट्रांझीस्टर) चोर तो रेडीयो व्हरूंक सोदी पुण उपरांत त्या रेडियोक लागून आपणें चोरी केल्या म्हणपाचें कळत हें ताज्या लक्षांत आयलें आनी तो रेडियो थंयच सांडून तो पळून गेलो.

सगळचान चोरपाक सोंपे पैशे. ते कोणाचे ते कळ लेगीत ना. ट्रंकान दोनशें ते तिनशें रुपया आशिल्ले. ते त्या चोरान व्हेल्ले.

दुसरे दिसा म्हजो ट्रंक समोरच्याच एका दोंगरार मेळ्ळो. तांतले पैशे सोडून बाकीचें सगळें आशिल्लें.

चोरी कोणे केल्या काय ह्या संबंधान येवजीतना म्हाका एकल्याचो दुबाव अजून लेगीत येता पुण पुरावो कसलोच ना.

हो मनीस म्हजेकडेन केन्ना केन्ना आपली बायल बरी ना म्हणून आपल्या घरा म्हाका व्हरूंक येवपी. शेजारच्या एका वाड्यार रावपी. ताणे एक दिस ते वारांव पळोवन बरे करून सांसपून पळल्ले आनी तो ते पळेता अशें दाखोवपाक म्हाका भियेवन दुसरोच विषय काडिल्लो.

कशेंय जांव चोरी जाल्ली. पैशे गेले. पुण म्हजो फोरेन ट्रांझीस्टर म्हाका परतो मेळिल्लो.

## सोरो देंवलो

हांव उसगंवां सरकारी आरोग्य केंद्राचेर काम करूंक लागिल्ल्याक तीन चार म्हयने जाल्ले. रातचो सुमार बारा वरांचेर, एक दिस म्हज्या दारार माल्लें. गांजेंचे दोन तीग जाण आइल्ले.

'दोतोर, आमचे थंय एकलो चड बरो ना.' मात्सो येवन पळे. बेगीन येवपाचे कर दोतोर.'

ते दोन सायकली घेवन आइल्ले. म्हाका सायकलींचेर वच्चें पडटलें हें पुराय खबर आशिल्ले. बेगीबेगीन न्हेसलों आनी म्हळें,

'चल या.'

सायकलीचेर बसून गांजां आयलों. यो जाल्यार एकलो सामको बेशुद्ध जाला म्हणपाचें कळ्ळे. बेगींबेगीन दोन इंजेसांवां (सोर) कोरामीन घालून ताका केले. ते करिनाबरोबर ताका शिंको आयल्यो आनीं शिंकी काडीत तो उठलो. उठनाबरोबर सगळ्यांक अजाप जालें. तो इतले बेगीन असो बरो जायत हें तांच्या ध्यानांत मनांत लेगित नासलें अशें तोंडावेल्यान कळ्ळें. हांवें हरशीं विशेष कांयच करूंक नासलें जे पणजे हॉस्पीटलांत अश्या तरेच्या सोरो पियेवन बेशुद्ध जाल्ल्यार जीं इंजेसांवां करतालीं तीं केल्लीं.

त्या दिसा सावन दोतोर बरो म्हणून गांजेचे खूब जाण म्हजेसरेन उसगंवां सेंटराचेर भुरग्यांक घेवन येवंक लागले. जायरात अशी जाता !

## बापायनूच भुरग्याक माल्लें

हांव एक दिस रातचो आठ साडेआठ वरांचेर बेगीन जेवन पुस्तक वाचूंक बशिल्लों. उसगंवां हांव असोच बेगसार जेवन वाचप वा बरप करतालों. इतल्यान एकलो ट्रक घेवन आयलो. 'दोतोर म्हजो चलो चड बरो ना.'

बेगीबेगीन न्हेसलों आनी ताज्या घरा ट्रकान गेलों. वच जाल्यार ताजो चलो सामको घुस्मट्टालो. ताणे चुकून 'आंतेपार' हें दंताचें वखद दिवंचें सोडून थंयच बाटलेन आशिल्लें तें शेताक घालपाचें वखद दिल्लें. तें सामकें विखारी. तें घेनाबरीबर भुरग्याक वयल्यावयर येवंक लागिल्ले. हांवें ताका तपासलें. एक इंजेसांव केलें आनी त्याच ट्रकान फोंड्यां व्हरपाक आमी भायर सरले. फोंड्यां पावतासर तो भुरगो हो संसार सोडून गेल्लो.

बापायच्याच एका चुकेक लागून भुरग्याक मरण आइल्लें. वखदां तीं भुरग्यांक दिवपाचीं आसतात थंयच शेतांत मारपाचीं

वखदां दवरलेलीं दि चूक. दिसपाक सादी पूण जीव घेवपी.

जो जल्म दिवपी बापूय त्याच बापायन आपल्याच भुरग्याक विख दिवन मारप हाज्या इतली वायट गजाल दुसरी आसत ?

पुण चुकोन लागून तें घडिल्लें !

## निमाणचो खीण

म्हज्या बापायचो एक इश्ट भायर पडलो. ते बरोबर लिसेवाचेर शिकताले खंय. अशेतरेचो इश्ट भायर पडलो म्हण्टगच म्हज्या बापायक ताज्या घरच्यांक वचून मेळचेंशें दिसलें. ताजोच आनीक एक इश्ट मळयांत शाळेकडेन रावतालो. ताका हांवें वचन सांगलें

'बाबा तुजेबरोबर तांगेर वचूंक सोदता तेन्ना तूं वतना बाबाक बरोबर घेवन तुमी दोगूयजाण ताज्या घरच्यांक वचून मेळात.'

त्या प्रमाणे इश्ट बापायक व्हरपाक आयलो आनी ते दोगूय जाण तांगेर गेले. भायर पडिल्लो ताज्या भावाक मेळ्ळे. घरच्यांक मेयळे.

वता आसतना वाटेर म्हज्या बापायन ताज्या इश्टाक सांगलें

'पळे हांव फक्त ताज्या घरच्यांक मेळटां आनी परततां. तूं फुडें स्मशानांत वतलो जाल्यार वच. म्हज्यान तें पळोवं नजो. स्मशानांत वचपाक म्हाका भंय दिसता. हांव फक्त आतांमेरेन दोनदांच स्मशानांत गेलां आनी दोनूय फावट म्हाका तें कशेंच चुकनासलें. एकदां म्हज्या बापायच्या मरणाक आनी दुसरे फावट म्हज्या पयल्या बायलेच्या मरणाक.'

ताज्या घरच्यांक मेळून जातगच म्हजो बापूय घरा येवपाक भायर सरलो. भायर सरतनाच दारांत आमचो एक नातेवाइक आपली मोटार घेवन ताणें म्हज्या बापायक विचारलें,

'फोंडूदाद तूं येतां जाल्यार, यो मोटारींत म्हटगच तुका त्रास जांवचे ना.'

मोटारींत त्रास जावंचेना हें उतर आयकून बापायन येता म्हणून सांगलें आनी तो मोटारींत बसलो. मोटारींत ते दोगूय कांयच चडशे उलयले ना.

मोटार स्मशानाभायर पावनाबरोबर म्हजो बापूय मोटारींतलो सकल देंवलो तोच थंय बसलो. म्हयांत चार दोतोर पाविल्ले ताणी हात धरून नाडी पळेत जाल्यार खंयचे कडेन कांय ना.

स्मशानांत वचपाक जो भंय दिसतालो तो तिसरे फावट स्मशानांत वतनाच भंय सोंपलो. भंयानूच ताका मरणांत व्हेलो एक वेळ तो. एक खीण.

म्हज्या यादिच्या खीणांभितर सगळयान काळखाचो खीं. कितलेशेच दिस हांव म्हज्या दोळयांमुखार बापायकूच पळोवंक सो[illegible] तालों. पुण तें शक्य नासलें.

## संसार रचूंक सातदिस

आमच्या एका प्राथमीक आरोग्य केंद्राचेर दांतांच्या क्लिनीचें उक्तावण जावपाचें आशिल्लें. आमचे आरोग्य मंत्री आइल्ले, ते गांवचे आमदार सरपंच, आमचे आरोग्य खात्याचे संचालक आरो[illegible] केंद्राचे मुखेल वैजकी अधिकारी हे सगळे जाण आशिल्ले.

उक्तावनाच्या दवाजावेळार त्या गावंचो आमदार [illegible] आशिल्लो ताणे मंत्र्यांदुखार जीं गांवांत कामां करूंक जाय ता[illegible] एक व्हड वळेरीच मांडली :–

'गावंचे रस्ते सारके ना ते बरे करूंक जाय. गावांत शा[illegible] बरी बांदून दिवंक जाय. उदकाची सोय सारकी ना ताका लाग[illegible] लोकांक खूब त्रास जातात. गावांत लायट आसा पुण ती परत प[illegible] आपालिपा करता... आदी... आदी.'

हांव ह्या कार्यावळीचें सुत्रसंचालन करतालों. आमदाराचें उलोवप सोंपनाबरोबर मंत्री उलोवपाचे आशिल्ले. ताज्या पयले हांवें तशें जाहिर केलें आनी सांगलें,

'ह्या सगळया गावंचो जे प्रश्न आसात ताजेर पुराय ल[illegible] दिवन आमचे मंत्री हे प्रश्न सुटावे करपाक वावूरतले. हें काम ए[illegible] दिसान जायना कारण खुद्द देवाक लेगीत हो संसार रचूंक सात दि[illegible] लागल्यात हें विसरूंक फावना.'

## लगबग

आमच्या एका उप आरोग्य केंद्राचें उक्तावन आशिल्लें. थं[illegible] आमचे आरोग्यमंत्री आइल्ले. तांच्याच हातान हें उक्तावन जा[illegible] पाचें आसलें. ह्या मंत्र्याक कोंकणी उलोवप तितलें बरें जायनास[illegible] कारण ते खूब वर्सां भायल्या देशांत युरोपाक आनी अमेरिके[illegible] आशिल्ले.

ते उलोवंक लागलें. तांच्या उलोवपांत "लगबग" हें उत्त[illegible] सात आठदां तरी आयलें. धाच मिनटां ते उलयल्ले पुण "लगबग हें उत्तर सात आठदां.

"आमी लगबग आठ कोटी रुपया मोडून तें काम करपा[illegible] केलें. रस्ते सारके करपाक लगबग अठरा कोटी रुपया लागतले[illegible] अशे तरेन ते उलयताले.

हांव येवजूंक लागलीं " लगबग " हें उतर तांच्या तोंडांत सून आयलें. ते तर हिंदी मात लेगीत शिकूंक ना. कोंकणी उलय- पुण सारकी येना.

येवजीता येवजीतां चत्रायेन लक्षांत आयलें. ते दिल्लीक परत वताले आनी दिल्लीच्या मंत्र्यांक मेळून येताले. दिल्लीच्या यांकडेन जीं उलोवणी जाताली त्याच उलोवपांतलो हो शब्द वंक जाय अशी म्हजी " लगबग " खात्रीच जाली.

**प्रीमू '**

पोर्तुगीज भाशेंत ' प्रीमू ' म्हळचार आतेभाव, बापोलभाव, वसभाव, आदी. एकवेळ दायजी आसत जाल्यार ताकाय प्रीमू ण्टात पुण पयलो, दुसरो, तिसरो अशेतरेत पाचारुन.

आमचेबरोबर एक कॅथोलीक भुरगो शिकतालो. ताणें सांगलें जो आतांचो इस्कोल मॅदिकाचो ' डीन ' आसा तो म्हजो प्रीम. दिसांनी आमकां ' Medicine ' हो विषय शिकोवपाक एक र्तुगालसून गोंयकार भाव आयलो. तेन्ना तो आमचो इष्ट आमकां गूं लागलो

' हो जो आमकां नवो प्रोफेसर आयला तोय म्हजो प्रीमू.'

कोण कोणाक सारको पळोवंक गेला ? घडये जायतूय बी जो ' प्रीमू अशें म्हणून आमी वोगी रावले. नाते उस्तीत जाल्यार ळे सगळयाचे नातेवाइक जातले आशिल्ले.

एक दिस ' गोंयचो ' एक नवो चीफ सेक्रेटरी गोंयकारुच यलो तेन्ना तो इश्ट म्हणूंक लागलो– ' हो जो नवो चीफ क्रेटरी आयला तो म्हजो ' प्रीमू '

अजापान आमच्यांनी रावूं नजो जालें. आमी एक नवी रूढ लून दिली.

' जो मेरेन परतें वा उलट सिद्ध जायना तों मेरेन जे जे कोण या हुद्यार येतात ते आमच्या ह्या इश्टाचे ' प्रीम '

**onstructive (घडोवपी)**

फोंडयां एका स्कुलांत एक गायनाची स्पर्धा आशिल्ली. म्हाका र एक परिक्षक म्हणून आपयल्लो. तीन परिक्षक आमी आशिल्ले. तलो एक ' कट्टो महाराष्ट्र वादी.' तो कांय वर्सां पयलीं गोंयचो सदार आशिल्लो तो म्हाका वळखतालो आनी हांवूय ताका ळखतालों पुण प्रत्यक्ष अशे आमी केन्ना मेळूंक नाशिल्ले आनी कमेकाकडेन उलोवंकूय नाशिल्ले.

गायनाची स्पर्धा जाली. उपरांत आमी तीगूय परिक्षक आनी ळेचो मास्तर एका कुडीत निकाल (स्पर्धेचो) लावपाक बसले. ड्या वेळान चा आयली. चा बरोबर बिस्कीटूय आशिल्ल्यो.

सहज उलयतां उलयतां तो पयलींचो खासदार आनी कट्टो हाराष्ट्रवादी म्हाका म्हणूंक लागलो.

' दोतोर, तुमचें बरें – तुमचें काम ' कंस्ट्रक्टीव्ह ' डोवपाचें) ' एक नवी भास घडोवपाक आमी भायर सरल्यात चि ताका म्हणपाचें आशिल्लें जावंक जाय. म्हज्या तोंडाक आयलीं पुण ताजी पिराय आनी ते पिके केंस पळोवन उत्रां टीं घेतलीं तीं म्हळचार ' आनी तुमचें काम Destructive पी ?'



# जात

**— नीला तेलंग**

आडपय–दुर्भाट–फोंडे–गोंय.

कितल्याशाच तेंपान गोंयां भोंवतना भोव बरें दिसतालें. निळची न्हंयों आनी पांचव्यो दोंगुल्ल्यो सोडल्यार मनीसजातीच्या कर्तुपांचो खूबसो नवो भेस ताणें आंगार चडयिल्लो. ताजी निजाची सोबितकाय ताका लागून आनीकय तिकतिकताली.

अशें मोगाळ गोंय तोखेतना मनातली खोस खतखतून ओतपाची. उरफाटो हांव असोऽ जाल्लों. तें अकस्मात दिशिल्ल्यान जायत. पुण शिल्पाक थंय सिटी बसीच्या स्टॉपार उबें पळोवन खरें म्हळचार म्हाका हांसोच आयलो. असल्या वेळार खरें म्हळचार काळजात शिगर तोंपिल्ल्या भशेन किस्स् जाता खंय ! पुण म्हाका काय तशें कांयच जालें ना. पयली हांव सट् करून ताका वळखूंकूच विसल्लों. म्हज्या दोळचामुखार आसा ती ताजी एकशिवड आनी खो खो करून हांसपी मूहूर्त. आतां तें आंगान बरेंच भल्लां. थुलथुलीत जालां म्हळचार पसुन जाता इतलें. पुण त्याखातीर हांसूक हांव कितें कॉलेजींतलो पोरांटो थोडोच उरिल्लों !

शिल्पाच्या मोगांत पडलां म्हणून सगळे खरें म्हळचार कोलायताले म्हाका. तशें पळोंवक गेल्यार तांचेंय खरेंच आशिल्लें –

हांव दिसूंक सोबित आनी ती आमची चामारांची गोरिपीट्ट कात ! राजकुंवर कसो दिसतालो हांव ! शिकप–करप, चाकरी अनुसूचित जातीच्या बळार सोंपेपणान जाली तरी म्हाका तशी तांक नाशिल्ली न्हय. आय. ए. एस. करूंक गेल्या सगळचा भुरग्यांक निव्वळ पर्सेंटजीचेर मेजिल्ले जाल्यारपसून म्हजो चवचो नंबर लागतालो– म्हळचार म्हाका देवान इल्ली बऱ्यापैकी तकलीय दिल्ली-सरकाराचे येवजणेचे पुण्याचेरच भागयलें ना तरी त्या पुण्यायेच्या बळाक लागून खूबशा कटकटींतल्यान अळंग सुटिल्लों इतलें खरें. नाजाल्यार गुडुलसांवांच्या राजकारणात म्हज्या बोडाक कोण खावपाचो न्हय.

असो काणयांतल्या राजकुंवरावरी सगले गुण मेळिल्लो हांव ताका कसो भुल्लों हाजें सगल्यांक अजापच दिस. तें दिसूंक तशें फाटींच. पुण हांव ओडलों तो ताज्या दिसपाकडेन न्हय तर ताजे हुशारकायेकडेन.

कॉलेजींत आमी पयल्या वर्सांत आशिल्लीं. हांव क्लासीचो प्रतिनिधी. सगलें जुस्ताजुस्त करी. पिकनिक व्हरपाचें ठरलें. हांवें सदांभशेन सगलीं कामां फावो त्या त्या उमेदी भुरग्यांकडेन सोंपयली. सगली व्यवस्था सारखी केली. आनी मनात म्हण्टालों आतां हांवें कूस मल्ली तरी कांयच आडखळ येवची ना. इतलेंच न्हय कोणाक कळचें पसून ना. म्हज्यान ओगीच बाकीच्यांभशेन कच कच करून दुडू मोडूं येतात न्हय ?

आनी इतल्यांत ताणें सगल्यांहुजीर म्हाका मोठयान
‘हे पळय रे, तुजेय पयशे दिले. फाल्यां मात यादीन हाड म्हजे
घेता ते. म्हाका मोडूंक जाय.’

सट् करून म्हाका समजलेंच ना तें कितें म्हण्टा तें. ल
आयलें तेन्ना तिडक माल्ली, पुण कांयच उलवंक जमलें ना परत
परतें. ताजेकडल्या ओडीक लागून जायत.

शिल्पा म्हज्यो येवजणी रोखडचो पारखितालें. हांवें कस
निर्णय घेतलो जाल्यार तो कित्याखातीर हें ताका आनी ता
एकटचाक बरोबर समजतालें. बाकीचे सगले म्हजेपासून चार
पैसुच रावताले– ते ह्याचखातीर. हांव केन्ना कसो वागन त
कांयच अदमास करूंक येनाशिल्लो म्हणून ते म्हाका मात्शे भियेत
म्हणूनच म्हाका बुदवंत म्हणून वळखताले न्हय ? हें मात हेरांप
वेगळें. म्हाका परिस्थितीन शिकयिल्लें जायत, म्हज्या उलवण्
सदांच दोन अर्थ आसताले. आनी ताजी जाप दिवपाचीच जाल
शिल्पा दितालें तशाच दोही अर्थान,

म्हणूनच हांव ताजेकडेन ओट्टालों.

घराकडेन वतना ताका हटकीलेंच.

‘म्हाका भिकारी कित्याक केलो ?’

आनी ताणें कितें सांगचें ?

‘हें पळय रागार जांव नाका. तुवें पिकनिकेक येवकंच ज
अशे म्हाका दिसता. तूं नासल्यार पिकनिकेत म्हाका कांयच
दिसचो ना. म्हजे दुडु तूं परते दी नाका. ही एकुच वाट आ
म्हाका म्हजे समाधान करपाची. तुजे बरोबर संसार करीन म्ह
पाची सपनां रचतलें जाल्यार जी घटपाण, जो निग्रह लागतलो
काय म्हजेकडेन ना. म्हणून हांव तुका पेल्यानूच दवरूंक सोद
आतांय इतलें स्पष्ट सांगपाचें कारण म्हळचार तुवेंय घुसपूचें न्ह
लागीं आयल्यार तुटूंक कुस्तार जातलें. पयस रावल्यार दुखलें त
भोगपाक लागता ती तांक मेयटली.

आतां हाका पिशेंपणां म्हणची काय शाणेपणां ?

पुण एक खरें, म्हजो ताजेवयलो आदर वाडलो.

हांव बुद्धीच्या बळार आनी अनुसूचित जातीच्या फीतार उ
गतीचे पावंडे चडत रावलों. गोंय केन्ना सुटिल्लें. आज इतल्या तेंप
गोंयांतआयलां मात्शी मजा करूंक म्हणून. तें दिसनाफुडें सगल
नाकां म्हणून पुरून उडयिल्ल्यो यादीच उस्तूंक लागलों.

आमचो एक क्लासमेट कलकत्त्याक पाविल्लो. खबरीक खब
येवन ताणे शिल्पाच्या लग्नाविशयी सांगिल्लें. ताजो घोव खोऱ्या
पैशे ओडटा म्हणून समजल्लें. पणजे ताजें व्हडलें बूटांचे आ
जोत्यांचे दुकान आशिल्लें खंय.

आतां म्हाका तेंच येवजून हांसूंक आयिल्लें. हांव चामा
म्हणून तें म्हजेपसून पैस गेलें. हांव आज कलेक्टर म्हणून भोंवत
ताजो घोव जोतीं विकता जायत, पुण तो जातीन चामार न्हय.

–✻

# एकविसाव्या शतकाकडे



उच्च तंत्रशास्त्रीय, प्रगत ज्ञान
संगणकांद्वारे नियंत्रण, अंतरिक्षाला साहसी गवसणी,
समुद्रतळांची धुंडाळणी, अंटार्क्टिकाची तपासणी,
दर वळणावर आहे प्रतीक्षेत, हें सर्व संक्रमण
सिद्ध राहायला हवंय आपण आतापासूनच
नाहीतर नजरेच्या टप्प्यांतली क्रांति पाहतां पाहतां नाहीशी व्हायची
विज्ञान नि तंत्रज्ञान यांच्या साहाय्यानं करूं या मात
गरीबीवर नि तिच्या पिल्लावळीवर-समस्यांवर

davp 85/422

**आणि करीत जाऊं आगेकूच सर्व मिळून !**